कुळागर

न १९८५

र्ष : सातवें

क : ६

ा अंकाचे मोल : ३ रुपया

र्षुकी पटी : २५ रुपया

ादक :

काश थळी

ारायण वादोळकार

यरात विभाग प्रमुख :

निल पै

पणावळ :

स. जे. हुंद्रे

वि मुद्रणालय, कडोलकर गल्ली,

ळगांव. फोन : २३०७९

पपी आनी उजवाडावपी :

द्रकांत केणी

ळागर प्रकाशन,

. बॉ. नं ७८

डगांव–गोंय–४०३६०१

# मांडावळ

संपादकीय / २

वाचप्यांलीं पत्रां / ३

भासाभास / आमुचा राम राम घ्यावा / सुरेश ज. बोरकार / ४

अुतरांचो संसार–१ (अेक दिसपट्टी) / पांडुरंग भांगी / ९

आवयचें सवंग / महाबळेश्वर सैल / १०

तेफळां / तेफळू / १४

कथा : चवथीच्या दिसांतली / अुल्हास यशवंत नायक / १६

भाओजी–भाओजी / गोविंद मुद्रस / १९

बशीर / रमेश घ. लाड / २१

पिशांतर / विठ्ठल का. सा. आवर्दियकार / २३

वक्ल फुटलें / गजानन जोग / २६

जांबावलेचो गुलाल / पुरुषोत्तम शिंगबाळ / २८

संपादकीय–

# परीक्षण, समीक्षण काय ‘ खच्चीकरण ?’

मे म्हयन्याचो अंक लेखक संमेलनावेळार येवपाचो पुण अैन त्या वेळार आमच्या हाताभायलीं आडमेळीं आयलीं आनी कळाव जालो. तो अंक संमेलनावेळार येवप गरजेचेंशें दिसतालें. अेक कारण त्या अंकांतलो रवीन्द्रबाब केळेकारांचो ‘ कसलें साहित्य कसले साहित्यकार ?’ हो लेख.

फाटल्या दोन वर्सांसाकून साहित्य समिक्षेंविशीं जाता तितलें बरप आमी नेमान अुजवाडायलां. ‘ सुरंगां आनी नारंगां–’ हें सदर आमी साहित्याचें समिक्षेखातीर चलयलें. कांय भौमानेस्तांक आमच्या मनांत नासतनाय तोडले आनी कांय नवे दुस्मानूय जोडलें. आमकां हें खबर आशिल्लें. हें अशें चलपाचेंच. आमी हे गजालीचो खेद मानीनात. कोणें पुण हें काम करुंकूच जाय आशिल्ले. आमचे मार्फत अिल्लें बरें काम जालें हाजें आमकां समाधान दिसता.

केळेकारांच्या त्या लेखातलीं कांय मतां आमकां पटुंक नात. बाकीच्यांक तीं पटचीं वा पटटलीं अशेंय म्हणू नज. पुण कांय विचारांक ताजेमार्फत चालना मेळटलीं काय दिसता. समीक्षा वा टीका निर्भिड आसची अशें आमकां दिसता. केळेकारांनी नावाबदला फुलयो घालून बरयलां. बरोवपी हो व्यक्ति म्हणुनूय ताणीं समिक्षेंत भरशिला. हें सगल्यांक पटत काय कितें हाजेविशीं आमकां दुबाव दिसता.

आपणाल्या बरपाक वायट वा अुणाक म्हणिल्लें त्या त्या लेखकाक आवडना. पयर लेखक संमेलनांत कथा–कथनाच्या वेळार समीक्षण आपणाक प्रतिकूल लागले म्हणून अेका बरय्यान त्या समिक्षकान आपणालें खच्चीकरण केलां असो आरोप आनी निशेधूय केलो. कोंकणी समिक्षेक ही गजाल फायद्याची न्हय. ‘खच्चीकरण’ हे अुतर जाल्यार सामकें गैरलागू आशिल्लें अशें कांय जाण्टेल्यांनी म्हळें. हाजेर त्या बरोवप्यान म्हळें व तें अुतर मुद्दम वापरलां आनी ‘1 still main आमकां त्या बरोवप्याची ‘ तोखणाय ’ दिस विशीं केदो हो विश्वास आनी अेकंदरींत केदी

कोंकणीतलें कांय खांपे गद्यकार–संपादक फावो ते प्रोत्साहन दिनात ( म्हळचार कोंकणी आनी कवींचें ‘ खच्चीकरण ’ करीत आयल्यात अेक सामको गैरलाग मतप्रवाह अजून चलता म्हायती प्रमाण वयर सांगला तो कथाकार–कथ हो तातूंतलो अेक अशें ‘मानतात.’ आतां हो मनी कथेचेंय निर्विजीकरण, निर्मूलन बी करूंक ला कितें ? आब्बा ! आर्रा तूं ! निशेध करपाचोच

केळेकार आपणाल्या त्या लेखाचे सुर्वेक ‘ हालीं कितेंय छापून येता आनी कोणूय बरयता खरें. आमी जाल्यार म्हणटांत की हाली कोण आनी कशेंय बरयता: ताळतंत्र सुमारबिमार कांय बेजबाबदार समिक्षालेखनूय कांय तरणे लेख लागल्यात. बरपावांगडा अुलोवंकूय लागल्यात नासतनाच बरोवंक-अुलोवंक लागल्यात. प संमेलनाचो अध्यक्ष आमचो अिश्ट दामोदर मा अध्यक्षीय भाशणांत आनी हरशीं जी काय अुधळळयांत तीं जाल्यार सामकीं अपुर्बाय क त्या मुक्ताफळांचेर फुडेंफाटीं केन्नाय विस्तारान जाय.

नव्या बरोवप्यांनी बरोवपा–अुलवपाप म्हत्त्वाची ती अेक गजाल करूंक जाय जी ते करता भरपूर वाचप. कालचें आयचें साहित्य वाचून अ आपणें स्वत: धव्यार केल्लें काळेंपसून छापूंक घ आमचे लेखक वाचीनात. हो आमचो अणभव. शापून येता तें खूब फावटी दशेचें आसता हाजे क फाटलो त्रास घेवपी अेकाद्रो कोंकणी नेमाळ्याचा हें मतींत दवरचें.

## ...ळीं पत्रां

...संपादपो, 'कुळागर' हांका सप्रेम विनंती.

...शब्दकोशाचे दोन भाग प्रसिद्ध जावन दोनचार ...तां तिसरो भाग (निमाणो) छापूंक वता. पयल्या ...तरांच्यो अर्थांच्यो आनी शुद्धलेखनाच्यो कांय चुको ...रांक दिसून आयल्यो तर ताणी त्यो मेकळेपणान म्हजे ... अशी हांवें हाचे पयलीं जायते फावटी विनंती केल्या. ...थून करतां. कारण तिसऱ्या भागाक जोडून परिशिष्ट ... तांतूत ह्यो चुको सुदरूंक मेळटल्यो. सौ. ललिता-...र हाणी 'कुळागरा'च्या मे १९८३ च्या अंकांत अेक ...ी उपयोगी असो लेख बरोवन शुद्धलेखन सुधारपा-... केल्यो. तशेच श्री. विश्वंभरबाब उसगांवकार आनी ...ग य कोंकणी शुद्धलेखनाचेर म्हत्वपूर्ण लेख कुळागरां' ...विशयांची आपली पोटतिडोक आनी आस्था दाखोवन ...ह्या तिगांय कोंकणी जाणकारांक अशी कळकळीची ...ती, ताणीं तांका बिनचूक दिसता अशा शुद्धलेखनान ...ाचीं चार चार पानां कसल्याय विषयाचेर बरोवंची ...ां 'त तीं छापूंक दिवचीं. आतांमेरेन ताणी तांच्या ... सुचना केल्ल्यो आसात त्यो परथून बरोवपाची गरज ...ी लेखन कशें करचें हाचे चारचार पानांचे नमुने ताणी ...थांमुखार दवरचे. ताणी अशें केलें तर आमचे ...तांचे खूब उपकार जातीत आनी कोंकणी भाशेचें ...सली तर सुदरत. तांच्या असल्या नमुनेदार लेखांची ...वाट पळेतांत. ताणी आमची निराशा करूं नये.

...१९८५ — **श्रीपाद रघुनाथ देसाय**

नानेरेंवाडो, पेडणें, गोंय-४०३५१२

...'कुळागर'

...आनी नारंगा हें सदर तुमी बंद केलां काय कितें ? ... दवरूंक जाय आशिल्लें काय दिसता तुमी तें बंद ...ूय कळपाक वाट ना. घडये तुमकां विशय मेळना ... हांगां अेक विशय मेळ्ळा. साहित्य अकादमीन ...कोंकणी कथासंग्रह अुजवाडायला. संपादक आसात ...तबाब केणी. तांचें ह्या पुस्तकाक प्रास्ताविक आसा. ...णराव सरदेसायांन 'येंवकार' म्हणुन पुस्ती जोडल्या ...जाता. सा. अ. त अुजवाडायल्ल्या बाकीबाब संपादीत ...तुमी अेकफावट 'सुरींग' घाल्लो. अशे तरेचो 'सुरींग' ...ाचेर घालचो अशी सुचोवणी.

— **नरेश खांडेपारकार**, तिस्क, अुसगाव, गोंय.

...ुमचें कुळागराकडेन पयलींवरी लक्ष नाशें दिसता. ... 'भासाभास,' 'सुरंगां आनी नारंगां' बी सदरा ...शें कितें घडलां? जानेर १९८५ सावन 'कुळागरा'क ७ वे वर्स लागलें. त्या निमतान तुमचें नेमाळें नवें आनी भरोव अशें कितेंय आमकां दितलें म्हुण रावताले. पुण पयलींच्यांतलेंय खूबशें गायब जालां, वाचप्यांलीं पत्रांलेगीत पयलींवरी दिसनात. 'कुळागर, हें फाटलीं स वर्सां नेमान अुजवाडा येवपी अेकमेव कोंकणी म्हयनाळें ताजो अवतार मातलेगीत हाललो जाल्यार आमचेसारकिल्यांक दुखी बादता. आमचे अुमाळे समजून घेवन फावोतो अुपाय जावचो अशी नमळायेची मागणी.

— **वामन कामत**

**सतीश गायतोंडे**

परेल, मुंबई

संपादक 'कुळागर'

नमस्कार. हें पत्र मातशें मेकळेपणान आनी सडेतोडपणान बरयतां म्हुण राग आसचो न्हय. जानेवारी १९८५ सावन तुमच्या संपादकीय बरपांत फरक जाणवता. संपादक तेच पुण संपादकीय लिखाणांत लक्षांत भरसारको बदल दिसता. अदीमंदीं दाढेत सांपडिल्ल्या फातरावरी कांय विचित्र वाक्यांय वाचूंक मेळ्ळीं. देखीक : मार्च १९८५ च्या अंकांतलें हें वाक्य, 'तायखिळो पावसांत किल्लता आनी **मळबभर पातळटा**'. तायखिळो आनी मळबभर पातळटा ? वाचून अजाप जालें. ह्याच अंकांत 'मनोहर सरदेसायांल्यो खबरी' आयल्यात. हो लेख कोणें बरयला म्हणपाचें तुमी कळोवंक ना.

बरें मागूत,

तुमचो

**विश्वास तुयेंकार**

मयडें, बार्देश, गोंय

(फेब्रुवारी १९८५ च्या अंकातलो 'मनोहर सरदेसायांल्यो खबरी' हो लेख बरोवपी भौ. अनाबाब म्हांबरो. नदरचुकीन बरोवप्याचें नांव शापून आयलना हाजें आमकां वायट दिसता. अनाबाबान आनी वाचप्यांनीय वायट धरचें न्हय अशें आमी तांचेलागी मागतांत.

— संपादक

संपादक, 'कुळागर'. फेब्रुवारी १९८५ चो अंक वाचलो आनी मातसो बुचकळचांत पडलों म्हळचार जाता. तुमच्या संपादकीयांत कोंकणी बरपावळ चडशी कोण वाचीना म्हणपाचो खंतीचो सूर आयला. ह्याच अंकांत गोवींदबाब मुद्रसालो 'हात शिवशिवतात' नावाचो लेख शापून आयला. होच लेख ह्याच नावान (मातसो फरकान) जुलय १९८४ च्या अंकात शापून आयलो म्हणपाची याद जाता (तपासून पळोवचें !) मुद्रसबाबाच्या लेखाचें 'पुर्नमुद्रण' चुकून जालां काय मुद्दम केलां तुमी ? कोंकणीं नेमाळ्यांचे संपादकूय आपणेंच शापिल्ली बरपावळ वाचीनात अशें आतां कोणेय म्हळ्ळार हाजेर तुमचें अुत्तर कितें आसतलें ? हांव कोंकणीतली सगळी बरपावळ बारीकसाणीन वाचपी हो म्हजो गुन्यांव !

— **वासुदेव काणकोणकार**

दहिसर, मुंबय,

## भासाभास

# ‘आमुचा राम राम घ्यावा’

— सुरेश ज. बोरकार

मे १९८५ च्या ‘कुळागरां’ त भौ. विश्वंभरबाब अुसगांवकार हांचे म्हज्या नांवान अुजवाडा आयिल्लें पत्र वाचलें. डिसेंबर १९८४ च्या ‘कुळागरां’ त तांणी जे स नेम आपल्या लेखांत दिल्यात तांचेविशीं म्हजें मत तांकां जाय.

फेब्रुवारी १९८५ च्या अंकांत हांवें आमी आयज खंयचे दिशेन विचार करतात तें स्पश्टपणान सांगलां. अशें आसतनाय हांवे प्रतिक्रिया दिवंची असो विश्वंभरबाब आग्रो धरतात. ही प्रतिक्रिया हांवें दिलो ना जाल्यार घडये तांचो अनादर जायत म्हणून सुटका तासून हांव हें काम हांगां करतां.

भौ. अुसगांवकार म्हजेपरस वयान व्हड, अणभवान गिरेस्त आनी पिंडान व्यासंगी. तांचेकडेन वाद खेळपाची म्हाका गोडी ना. बरें म्हळचार वाद घालपाचे मनस्थितींत आयज आमी नात. कामां वड आनी लोक कमी आनी वेळूय अुणो अशी परिस्थिती आसा.

आमी आयज जे कितें करतांत तें शुद्धलेखन निवळावपाचें काम; संशोधनाचें न्हय हें मतींत आसचे. हाकालागून शास्त्रीय हट्टांक हांगां जागो ना. हांगां सगळयांच्या विचारांक म्हत्व आसा.

कोंकणीच्या बऱ्या नशिबान आज गोंयची कोंकणी अकादमी सुरू जाल्या. संशोधनाचे हें काम आतां हे अकादमीचें, म्हज्यासारक्या आगांतूक लोकांचें न्हय. मनशाचे जशें प्राक्तन आसता तशें ... आसता. कोंकणीच्या प्राक्तनांत मुयेच्या स्वभावान अ... गतीन काम करपी लोक हे अकादमींत आसले जाल्या... फुलूंक जाय तशी फुलतली पुण तातूंत सुवार्थान भरिल्ले ल... आनी माकडांवरी आपलेच कुले तोखेत बसपी लोक रिग... कोंकणीची अधोगति जातली म्हणपाची अेक जाहीर शि... सुवातेर दीनशें दिसता. जशें घडूंक जाय तशेंच घडटलें ... आमी धरून चलुया. तेन्ना विश्वंभरबाबान आनी हांवें ... करची न्हय काय दिसता.

अेक खोशेची गजाल म्हळचार कोंकणी भाशा मंड... संस्थेन कांय दिसांफाटी अेक शुद्धलेखन समिती नेमि... शुध्दलेखनाविशींच्या नेमांचो अेक आराखडो तयार क... मंडळाकडेन दिला आनी ह्या आराखड्याच्यो प्रती कां... धाडून दिवन तांच्यो प्रतिक्रिया मागून घेवंच्यो अशें... अेक प्रत विश्वंभरबाबांकूय धाडचो अशें हांवे मुद्दम सुचयल...

आतां डिसेंबर १९८४ च्या अंकात विश्वंभरबाबान... दिल्यात ते अशे –

१) ‘देवनागरी लिपी उच्चारानुसारी, उच्चार ज... प्रमाण बरौंचेली. उतरां जोडप तोडप बी सगळे उ... आधारानूच करचेलें’

२) ‘देवनागरी लिपींत कमीत कमी अक्षरां अ.नि... वापरचेल्यो आसतात. म्हणुनच उण्या अक्षरानी काम जात... कुरवो वा अक्षरां वापरचीं न्हय.’

३) ‘क्रियापदाचो मूळ धातू वा आनिक खंय्या... मूळ कितेंय आसूं, आमी उलौपांत जे निमाणें रूप वाप... रूपाच्या उच्चाराप्रमाणें तें उतर बरौंचें.’

४) ‘न्हस्व, दीर्घ, जोडाक्षरां, अनुस्वार, विसर्ग... चिन्हां आनी हेर कुरवांचो उपयोग उतरांचे उच्चार बार... ध्यानांत घेवन करचो.’

५) ‘देवनागरी लिपीच्या जाणकाराक कोंकणी ( सं... वेगळचा उच्चारांचे शब्द सोडून ) शिकनासतना बिनचू... येवची आनी आयकून बरौंकय येवची.’

६) ‘देवनागरी लिपीच्या अक्षरांचे मूळ आका... पुरते निवळायिल्ले आसात ते आनिक निवळांवक मेळना... पाच्या नांवान तातूंत बदल केल्यार चुको जायत बतात!’

आतां हीं घेयात म्हजीं मतां –

नेम ‘(१)’ विशीं –

विश्वंभरबाब म्हणटात, देवनागरी लिपी अुच्चारानु... आसा. पुण कोणाच्या अुच्चारानुसारी ?

मनीस पयलीं अुलोवंक लागलो. अुपरान्त आपली भा... कुरवांनी बांदून घेतली. ताका कांय कुरवो तयार करच्यो... जांकांच अक्षरां म्हणटात. संस्कृत अुलोवपी लोकांनीय ...

वेंदिस्त केली आनी अशें करतना आपले सगळे घेतले. हे लिपीक देवनागरी म्हणटात. म्हणजेच त जीं अक्षरा, ( स्वर जावं, व्यंजनां जावं ), आसात अुच्चार दाखोवपाखातीर केलीं. आमचे, म्हळचार पी लोकांचे अुच्चार दाखोवंक करुंक ना :

ह्या अुतरांत ओ स्वर आसा. तो दाखोवंक तांणी ओ . आतां लंबोदर ह्या अुतरांतल्या ओ चो अुच्चार णींत ओ चो अेक अुच्चार अुक्तोय जाता. मागीर चाराक तांची कुरू कसलीच ना. जांणी दीर्घ स्वर तयार केली, अवग्रह दाखोवंक ऽ अशी कुरू केली, अुच्चार दाखोवंक कुरू घडोवंक जमलों ना अशें धाडसाचें. हांवें कांय संस्कृत जाणकारांक हेविशीं म्हणणें कि संस्कृतांत ए आनी ओ ह्या स्वरांचे अुक्ते पुण कोंकणींत अुक्तो ओ आसा. अुक्तो अे आसा अ आसा. तात्पर्य, कांय अुच्चार जे संस्कृतांत नात आसात. म्हळचार संस्कृतांत आशिल्ले अुच्चार तूच त्याभायर आनिकूय आसात. ( कोंकणी ही ी धूव. संस्कृत भाशेचे सगळे गिरेस्तकायेचेर आसा. पुण जशें खंयचेय धुवेच्यान आपलेंय अशें क जाता तशेंच तें कोंकणीन केलां. )

संस्कृतांत नाशिल्ल्या ए आनी ओ चे अुक्ते अुच्चार ?

असो अुक्तो अुच्चार ना. पुण मराठींत आयिल्या नी तो आसा. हो अुच्चार दाखोवंक तांणी अ/आ ( ᵕ ) अशी कुरू दिल्या. देवनागरी लिपींत हो अुच्चार खूण करपाक तांका कोणें अधिकार दिलो ? अ चेर अुक्तो ए जाता, तेचभाशेन आ चेर अर्दचंद्र दितकच ा हे खंयच्या शास्त्राच्या आदारान तांणी सांगलें ? चोच जाल्यार तो ए आनी ओ चेर दिवपाचो न्हय ? रसो कित्याक ? ( तांचेर वयर आनी सकयल कांय ( ᵕ ) अशो कुरू देवनागरी लिपीत ना. अनुस्वार ) अशी कुरू जाल्यार मात आसा.

त आपल्याक बरें पडूंक जाय म्हणून आपल्याक जाय वो घेवं येतात व्हय ? देवनागरी लिपींतलीच अक्षरां जेन्ना कोंकणींत आमचे अुच्चार बरयतात तेन्ना आमी ची वाट लायतात ?

री लिपीच्या अुच्चारांप्रमाण आमी बरयनात अशें स चूक.

ह्या पयल्या नेमाची समजावणी दितना तांणी शब्द-जोडून बरोवंचीं म्हळा. शब्दयोगी अव्यय हे हेर अव्य-यय आसा आनी हेर अव्ययां जर स्वतंत्र 'पद' म्हणून जाल्यार शब्दयोगी अव्यय हेवूय स्वतंत्रपणान येवक हय. मात हेर अव्ययांसारकें हें अव्यय न्हय हें अव्यय मुखार येता तेन्ना फाटले अुतर सामान्यरूपांत (oblique form) आसता. ह्या अेकाच कारणाक लागून प्रत्ययांबरी हें अव्यय जोडून येवचें अशें दिसता. म्हणूनूच तें जोडून बरोवंचें.

नेम (२) विशीं –

ह्या नेमांत विश्वंभरबाबांक ऐ स्वराखातीर अय बरयनासतना अक्षरावयर दोन मात्रा ( ॆॆ ) दिवप योग्य आनी औ स्वराखातीर ओव बरयनासतना अक्षराक कानो लावन वयर दोन मात्रा ( ौ ) दिवप योग्य अशें सुचोवपाचें आसा.

आमी सध्या बरयतांत तशें 'मुंबय' अुतर तांका मान्य ना. तांचें म्हणणें आमी 'मुंबै' अशें बरोवंचें तेचभाशेन 'तापोवन' बरोबर न्हय खंय, तें 'तापौन' अशें बरोवंचें असो तांचो सामको आग्रो आसा.

'उण्या अुतरांनी जंय काम जाता थंय चड कुरवो वा अक्षरां वापरचों न्हय' अशें विश्वंभरबाब म्हणटात. आतां वयर सांगलां त्या प्रमाण अुण्या कुरवांनी आमचें काम जायना. म्हणून देवनागरी लिपीची प्रकृती लक्षांत घेवन आनी कोंकणीचे प्रकृतीचो अिबाड जायना अितलें पळोवन आमी फावो ते बदल केल्यात :

ऐ हो स्वर अ + ए जावन जाता.

( एक + एक = एकैक )

ऐ हो स्वर आशिल्लीं संस्कृत तत्सम आनी कोंकणी अुतरां वाचून पळोवया. क सकयल दिल्लीं अुतरां तत्सम जाल्यार ख सकयल दिल्लीं अुतरां कोंकणी :

| क | ख |
|---|---|
| चैत्र | चैत्री |
| मैत्री | मैदो |
| भैरव | भैण |
| वैष्णव | वैर |

( 'सकयल' हाच्या विरोधी अर्थान )

आतां क सकयल आशिल्ल्या अुतरांतले सगले ऐ स्वर अुकते जाल्यार ख सकयल्या अुतरांतले सगले ऐ स्वर धांपिल्ले. म्हणपाचें हीं अुतरां वाचतनाच कळटा. असो हो धांपिल्लो स्वर दाखोवपाक आमी कितें करचें ? दोन मात्रा दिवनूच तो दाखोवचो काय हो स्वर दाखोवंक आनीक कितेंय मांडणी आसची ?

आतां ही अुतरां वाचुन पळोवया. क सकयल्लीं ती तत्सम जाल्यार ख सकयल्ली कोंकणी :–

| क | ख |
|---|---|
| कमळ | काम कर |
| खर | शेत खण |
| रक्त | ताका सामकी रड लागल्या. |

ख सकयल्ल्या अुतरांतल्या रेगायल्ल्या अ चो अुच्चार धांपिल्लो जाता म्हणपाचें कोणाकूय समजतलें.

ऐ स्वर हो अ+ए असो जाला म्हणपाचें वयर सांगलाच. फक्त कोंकणी ऐ स्वरांतलो अ धांपिल्लो हें मनींत दवरपाचें.

ऐ स्वर अ+ए असो जाता आनी ए स्वर हो अ+इ असो जाता म्हणपाचें विश्वंभरबाब आमका सांगीत आयल्यात. बरें आसां.

आतां, मुंबय ह्या अुतरांत

बंतलो **अ** धांपिल्लो **य**, इ पासून जालां. कशें ?

संस्कृत भाशेंत **यणादेश** म्हणून संधीचो प्रकार आसा. हातूंन इ/ईच्या मुखार अ येता तेन्ना **य** जाता.

उ/ऊच्या मुखार **अ** येता तेन्ना **व** जाता. इ चें य जावप आनी उ चें व जावप हे प्राक्रियेक **यणादेश** म्हणटात. हे प्रक्रियेचो कोंकणीन फायदो घेतला. म्हणुनूच **ए** स्वरांतल्या **इ** चें **य** जालां.

हरशींय जाल्यार आमी बाय, साय, लाय अशेंच बरयतात, हिमालय, देवालय अशीं अुतरां आमी वाचतांत,

**औ स्वर**

**देवनागरी** लिपींतल्या औ स्वराचो अुच्चार कसो जाता तो पयलीं पळोवया आनी मागीर औ स्वर आमी आसातसो घेवप योग्य काय कितें तें थारावया.

**क** सकयल्लीं अुतरां तत्सम जाल्यार **ख** सकयल्लीं कोंकणी अुतरां औ स्वरान बरयल्यांत.

| क | ख |
|---|---|
| औदार्य | तापौप |
| सौभद्र | तापौपी |
| रौद्र | तापौपाक |
| कौमुदी | तापौणी |

**क सकयल्ल्या** अुतरांतल्या **औ** अुच्चाराकडेन खंतल्या तापौप ह्याच अुतरांतलो औ जुळटा म्हणपाचे दिसता जाल्यार हेर तिनूय **अुतरांतल्या पौ** चो अुच्चार **पोव** जाता म्हणपाचें दिसता. म्हणजेच आमी अुच्चारानुसारी बरयतले जाल्यार आमी हीं अुतरां तापोवपी, तापोवपाक, तापोवणी अशींच बरोवचीं पडटलीं. अेक ' तापौप ' सोडीत जाल्यार हेर सगळ्या रूपांनी हो **औ** स्वर ओव जाता. हीच गजाल दुसऱ्या सगळ्या कोंकणी अुतरांनी घडटा :

| १ | २ |
|---|---|
| आपौणो | आपोवणो |
| माडौणी | माडोवणी |
| भौंडेकार | भोंवडेकार |

**कोंकणीच्या स्वभावाप्रमाण २ सकयल दिल्ल्या अुतरांतलें शुद्धलेखन बरोबर जाता.**. औ विशींचो विश्वंभरबाबांचो आग्रो मान्य करप आमकां जमचें ना.

आतां ' तापौंक ' अुतर ' तापोवंक, ' ' तापौन ' हें ' तापोवन ' अशें बरयलें जाल्यार कितें जाता तेंय तांणी सांगला. हातूंत तीन अक्षरांनी जाता त्या कामाक चार अक्षरां लायलीं ही चूक जाली अशें तांचें म्हणणें. ऐ स्वराचेर विचार करतना हे

विशीं म्हजें मत हांवें दिलांच. ही **चूक** जालीच जा फायद्याची जातली. नुकसानाची जावंची ना. तेन्ना हुस्को धरपाचो गरज ना. ( हिंदुस्थानाकडेन येवंक सोदपी **चुकून** अमेरिकेक पावलो. हे **चुकीचो** फायदो युरोपाक क तो हांवें सांगपाची गरज ना ).

विश्वंभरबाबांच्या म्हणण्याप्रमाण दुसरी चुक आ अुतरांनी निमाणो मोनो अकार आसा. मोन्या अकाराआ अचो अुच्चार दिर्घूच जाता. म्हजे फेब्रुवारी १९८५ च्या प्रतिक्रियेंत हांवें सांगलों की मोन्या अकाराआदीं अक्ष येत जाल्यार जायते फावटीं तांचो तांच्या आदल्या अ संधी–स्वर जाता. असो संधी–स्वर घडून येता तेन्ना अ संधी–स्वराचेर येता. जशें जोडाक्षर हें दोन अक्षरांचें जा अक्षर कशें घ.ळटा तसोच हो संधी-स्वर घोळटा.

देखीक :

**गांठी** हें अुतर गां–ठी अशें फुट्टा.

**गांवठी** हें अुतर गांव-ठी अशें फुट्टा.

**गावप** हें अुतरा गा–व–प अशें फुट्टा.

' गांवठी ' हातूत गांतल्या आ आनी व चो संधी–स जाल्यार गाव हातूंत तांचो तो तसो जावंक ना. म्हण्टकच **सोंपिल्या अुतरांत जें आदलें अक्षर अ स्वरी आसलें जा अक्षराचेंर आघात जाता ही म्हणणी सदांच खरी न्हय, म्ह दुसरो आक्षेप योग्य न्हय.**

**' तापोवन, ' ' तापोवंक '** ह्या अुतरांनी संधी– स आनी ह्या संधी–स्वराचेर आघात आयिल्ल्यान ताज्या आनी क ही अन्त्याक्षरां हो संधी–स्वर सोंपेपणान ओडून घे

तापौप ह्या क्रियापदाचीं हेर सगळीं रूपां पोव अश रांत आशिल्ल्यान ' तापोवप ' अशेंच बरोवप योग्य.

मराठीचो अेक दाखलो हांगां दितां :–

" 'ए' व 'औ' या संयुक्त स्वरांचे उच्चार मराठीत तील आघातांच्या नियमानुसार होतात. 'ऐ' चे उच्चार किंवा अय् असे होतात उ. चैन या शब्दाचा उच्चार विभक्तीप्रत्यय लावून चयनीत. चयनीत या शब्दातील यांतील 'अ' निभृत उच्चारला जातो. 'नैषध'चा उच्चार न व 'ध' मधील 'अ' निभृत तर 'ष' मधील 'अ' तैसा = तइसा किंवा तय्सा. सैरभैर = सईरभईर. सैरावैरा वय्रा. थै थै = थय्थय्. बैल = बईल् इत्यादी.

---

● मराठीत– संस्कृतांत न्हय म्हणपाचें लक्षांत स्वराचो कोंकणीत 'अय्' (अ धांपिल्लो) असो अुच्चार आनी औ स्वराचो अुच्चार 'ओव' असो दाखयतात. हा **चूक ना म्हणपाचे आतां कळटलें आनी अशें बरयलें म्हणून रीची वाट लावंक कोण भायर सरूंक ना हेंय विश्वं समजतलें.**

य संयुक्त स्वराचे मराठीत अऊ, आऊ, अव्.

| | |
|---|---|
| ाऊल | कौलावर = कव्लावर |
| ाऊध | सौधावर = सव्धावर |
| ाऊत | दौतीत = दव्तीत. ” |

पान : पंधरा, मराठी शब्दांचे प्रमाणित उच्चार
अभिनव मराठी– मराठी शब्दकोश : १
संपादक : डॉ. ब. ह. अग्निहोत्री
आवृत्ती पहिली– ऑक्टोबर १९८३ )

र्विशीं :–

माची समजावणी दिवपाखातीर तांणी पट्टा हें उतर खोवपाखातीर ‘ पडटा ’ अशें बरोवंचे न्हय म्हळा. ाक्यां वाचुया आनी खंय कसली आडखळ जाता ती

गाचे कोणाक पळळां ( पडलां )
अकां तांचें कांयच पण्ण वचूंक ना. ( पडून )
ते अेकामेकांकडेन झगडून रेव्यांत पट्टल जाल्यार पडूं (पडटले )
चेलो वेळ आयलो म्हणटकच सुखाचे सांगाती पयस ात. ( पडचेलो ).

ऱ्हय वाक्यांनी पड धातूपासून जाल्लीं रूपां दिसतात. ांत तीं आमी आतां बरयतांत तशीं.

रबाबावें म्हणणें : देवनागरी लिपी वाचप आनी बरोवद मर्यादीत आसा. पुण देवनागरी लिपींतल्यान आज णी शिकयतात. ही गजाल हेर सगल्या गजालींपरस हत्वाची. कोंकणीचें प्रमाणीकरण शुध्दलेखन हे विशीं ा ही गजाल लक्षांत दवरचीच पडटली. पड धातू घेवन ां रूपांच ( कंसात दिल्यांत ती ) बरोवप योग्य अशें ाणक्षेत्रांत वावुरपी खंयचोय मनीस सांगतलो. ही रूपां सोंपीं आनी बरीं. म्हणूनूच विश्वंभरबाबांचो हो नेम ना.

विशीं –

ळचार हाका नेम म्हणूं नज. ही अेक तांची सुचोवणी. न्य.

शीं –

ेम जायना. हीवूय तांची अेक सुचोवणीच. तशीं ती हें अुतर वाच्र अशें बरोवप बरोबर कशें तें ते सांगतात प्रमाण आमी बरोवंक लागुया अशें ते मागतात.

२ ) चेर चर्चा करतना संधी-स्वराविशीं आमी च परतेंय सांगपांत अर्थ ना. पुण कांय गजाली स्पश्ट कपणान कळिल्लयो बऱ्यो म्हणून आनीक अिल्ली

‘ वावर ’ अुतर मो. दाल्गादाच्या कोंकणी–पुर्तुगेज कोशांत ( १८९३ ) ‘ वावर ’ अशेंच बरयल्लें मेळटा. अुपरान्त शणै गोंय-बाबांच्या सगळ्या बरपांत हें अुतर अशेंच मेळटा. अशेतरेचीं शेंकडयांनी अुतरां कोंकणींत आसात आनी आतां हे विश्वंभरबाब आमकां सांगतात तशें केलें जाल्यार शेंकडयांनी जोडाक्षरां अनत्याक येवचीं पडटलीं. ही गजाल बोजड आनी विद्रूप करतली.

खंयचोच कोंकणी जाणा जाल्लो मनीस ‘ बायल ’ हें अुतर बा-य-ल अशें वाचीना. तो बायल अशेंच वाचता.

देवनागरी लिपीच्या जाणकाराक कोंकणी शिकनासतना बिन-चूक वाचूंक येवंची आनी आयकून बरोवंक येवंची अशें म्हणटना विश्वंभरबाबांच्या दोळयांमुखार अकोंकणी लोक आसात, चड करून मराठी. पुण तांची ही सुचोवणी हांव दोन कारणांकलागून मान्य करपाक तयार ना :–

१. आयज गोयांत अुच्च माध्यमीक पावंडयांचेर गोंयकारांबरोबर कांय मराठीचे प्राध्यापकूय कोंकणी शिकयतात. ते देवनागरी लिपीचे बरे जाणकार आनी पंडित. तातूंतल्या अेकटयानूय ह्या शुध्दलेखनाविशीं केन्ना तक्रार करूंक ना.

२. आयज गोंया फाटलीं वीस बावीस वर्सांसावन रावपी जायते मराठी भाषिक लोक आसात. पुण ते आमचेकडेन कोंकणी-तल्यान अुलयनात. ते मराठीच अुलयतात. कोंकणी वाचूक ह्या लोकांक सोंपें पडचें म्हणून विश्वंभरबाब आमकां आमचें सध्याचें शुद्धलेखन बदलचें म्हण सांगतात. हें कशें शक्य आसा ? अकोंकणी लोक कोंकणी कशी वाचतले हाजीच मोटी चिंता विश्वंभरबाबांक लागल्या काय दिसता. पुण आमची चिंता मात वेगळीच आसा. गोंयचें राज्य कोंकणी कशें जायत, गोंयच्या समाजकारणांत, राजकारणांत, प्रशासनांत कोंकणीचें स्थान अढळ कशें जायत ही आयज आमची चिंता. अकोंकणी लोकांचो हुस्को आनीक वीस पंचवीस वर्सांअुपरांत करचो.

म्हणूनूच विश्वंभरबाबांची हो सुचोवणी संपूर्ण भायर मारपूच योग्य.

**नेम (६) विशीं :–**

हो तांचो नेम इ, ई, उ, ऊ, ए, ऐ ह्यो कुरवो घेवपासंबंदान आसा.

हाजेर आयजमेरेन अितलें काय सांगलां कि ताजेर आनीक कितें सांगपाचें अुल्लांशें म्हाका तरी दिसना.

x x x

हें अितलेंय विवेचन केल्याअुपरांत विश्वंभरबाब अुसगांव-कारांक हांव कांय गजाली आनीक चड स्पश्टपणान सांगूंक सोदतां :

१. शुद्धलेखन/प्रमाणीकरण अशें जेन्ना आमी म्हणटात तेन्ना तें गोंयकारांनी बरयल्ले कोंकणीचें.

२. ह्या शुद्धलेखनाची चड गरज शाळांखातीर पाठ्यपुस्तकां

वयार करतना जाणवता. म्हाकाय ती तशी दिसल्या म्हणुनूच हो अितलो प्रपंच.

३. कोंकणीखातीर कोंकणी, वा साहित्याखातीर कोंकणी अितलोच कोंकणीचो अर्थ आमी करीनात. कोंकणी ही गोंयच्या समाजपुरुशाची भास आनी तिका गोंयच्या प्रशासनांत/शिक्षणांत/समाजकारणांत/वेव्हारांत अढळ सुवात मेळूंक जाय. अशें करतना शास्त्रांचो आधार फाव तितलोच आमकां घेवंचो पडटलो.

**कोंकणी ही देवनागरीची दासी न्हय. हे लिपीचो जाल्यार कोंकणीक जाय तसो उपयोग करूंक मेळूंक जाय.**

४. शास्त्रांचो बडवाचार चड जातकच कितें जाता हाजी अुत्तम देख म्हळचार हिंदू धर्म. शास्त्रां मनशाच्या माथ्यार बसूंक लागलीं जाल्यार ताका तकली वयर काडपाक मेळना. तो फुलूंक आनी वाडूंक पावना. कोंकणीचें अशें जावंक फावना.

**देवनागरी लिपीच्या 'तंत्रान आनी मंत्रान' वतना वाटेर आडखळ जावंक लागली जाल्यार तें तंत्र आनी तो मंत्र दोनूय कुशीक दवरचीं पडटलीं.**

५. सध्याच्या 'वांकड्या' 'अशुद्ध' शुद्धलेखनान कोंकणीचें कांयच नुकसान जायना; परतें ती मुखार वचपाक पालवूच मेळटा जाल्यार तें शास्त्र म्हणटात तें मातशें कुशीक अुल्यार बरें. ( माड वाकडो गेलो म्हणून चिंता करपाची गरज ना. नाल्ल लागतात काय ना हें म्हत्त्वाचें. कोंकणीच्या ह्या माडाक सध्या बोंडे धरूंक लागल्यात. माड नीट करपाच्या धंद्यात आमी पडचें न्हय. बोंडे हुंदरांनी खावंचे न्हय अितलें आमी पळोवंचें )

कोंकणी अकादमीचो अुल्लेख हांवें सुर्वेक केल[...] शुद्धलेखन/प्रमाणीकरण/व्याकरण/शब्दकोश बी विश[...] करपाचें काम हें अकादमीचें. म्हजेसारकिल्याचें का[...] हांव आतां निवांत. म्हणून हांव आतां विश्वभरब[...] 'आमुचा राम राम घ्यावा.'

कोंकणीचें प्रमाणीकरण/शुद्धलेखन/व्याकर[...] बी गजालींचेर 'कुळागरा'च्या व्यासपिठावेल[...] जावंची ह्या हेतान जानेवारी १९८४ आंत '[...] हें सदर सुरू केल्लें. त्यापयलींय अेकदोन लेख अदी[...] आमी अुजवाडायल्ले. 'भासाभास' हें सदर चल[...] श्रीपाद देसाय, वि. ज. अुसगांवकार, सुरेश बोरकार[...] आनी हेर कांय मानेस्तांनी पत्रांतल्यान बी आमकां [...] पालव दिलो. आमी तांचे अुपकारी. कोंकणी भ[...] वेगवेगळ्या आंगांचेर पुराय चर्चा जावन लागि[...] तांतूत सगळे मुद्दे आयल्यात अशें आमकां दिसता. म[...] हें सदर म्हणटा : 'आमुचा राम राम घ्यावा'

# ...ुतरांचो संसार - १ (अेक दिसपट्टी)

— पांडुरंग भांगी

...aque jour nou lessons une partie de ...emes en ehemin.

**AMIEL**

...–८–६७ नेहरूचो सुणो मेलो. सगळ्या दिसाळ्यांनी ...दिल्या. बिहाराक ह्या दिसांत लोक भुकेन वळवळून आनी ...रतात. तांची काकळूत कोणाक दिसना. सरकारय जागो ...वरी दिसना.

...शांपरस नेहरूचो सुणो व्हडलो ! कितलोय जाल्यार ...तें श्वान ! ताका तकली बागोवप ही आमचे संस्कृतायेची ...शेंकड्यांनीं वर्सां हें अशें चलत आयलां.

... देशांत मनिस सत्तेर आसतकीर, ताज्या धेंकराची पासून ... व्हड मनशांची चितनां, आमी आमगेल्या बुद्धिचे सांडीर, ...रखून घेनात. वळीन वळ विस्कून पळेनात.

... देशांत बुद्ध जन्मलो गांधी आयलो. भोस आसा हांगा ...ड जातकीर ताका आमी देवाऱ्यांत बसयतात. ताजी पूजा ...वर्सान वर्स ताजो जन्मदिस वा मर्णदिस जागयतात. ताजी ...जी शिकोवण ? कित्याक जाय ती आमकां ? श्राद्ध वाढून ...म्हण्टकीर सगळें वचून गंगेक मेळटा.

...न ह्या देशांत, गांधीचे शिकोवणेपरस ताज्या नांवाचो ... जाता. गोडशेन ताजो खुनच केलो. जाल्यारूय, म्हात्म्या ... रूंय रूंय करून भोंवतल्या ताज्याच वर्गांतल्या लोकांनी, ... सुण्यांची तूस्त करपी ह्या लोकांनीच, तो जिवो आसतनाच, ...न अुडयल्लो.

...–९–६७ पॉल मुनी गेलो म्हणून वाचलें. लुई पाश्चर, ...ला, गुड अर्थांतलो हो व्हांगलूंग सासणाचे न्हिदेंत विसावलो. ... ताणें केलें त्या त्या संवगांत ताणें प्राण ओतलो. मातयेंचें भांगर केलें. ज्या वेळार तागेलें काम हांवें पळेलें, त्या वेळार हांव साप्प भुरगो नाशिल्लों. जाल्यारूय जाण्टोय नाशिल्लों. चौदा पंद्रा वर्सांचे ते पिरायेर जायत्यो गजाली म्हाका कळनाशिल्ल्यो. अशें आसतनाय तागेलो एमील झोला काळजांत तसोच अुल्लो. तागेलें हांवें पळेलें तें हें अेकच. काम ही अेकच नाट.

तीन खेपो हांवें 'एमील झोला' पळेलो. तरी मन तृप्त जालें ना. आजुनय परतून पळेल्यार तें अतृप्तच अुरतलें. नाना, ज... कादंबरीन झोलाक अेकदम अुजवाडाच्या झोतार व्हरून बसयलो, ती कादंबरी बरोवंक आयिल्ल्या योगायोगावेलो झोला, आगळीक जातकीर किवाटून J'acuse म्हणून पांय आपटुपी झोला. त्रिबुनालार my Profession is bright म्हणून जुविजांक झिटकावपी झोला, आजून दोळ्यांमुखावेलो हाल ना. झोलाची जीण त्या अुप्रांत बऱ्याच वर्सांनी वाचली, आनी तेन्नाच पॉल मुनिच्या बारिक साणेची म्हाका तोखणाय दिसली.

असो जीव दिवन काम करपी लोक दिसान दिस अुणो जायत चल्ला. आज देख मेळटा ती अळंगस्वाम्यांची. कस्टांविरेत काम करूंक सोदतल्यांची. कित्याकच आज जडसाण ना. कसलीच खोलाय ना... आज सगळेंच अुखलापें. वेल्यावैर केल्लें. ते पोदेर गेले आनी ते अुंडे गेले. अुल्ल्या ती बेगड. पितळेचें भांगर.

२०–७–१९६९ अमेरिकेच्या नील आर्मस्ट्राँगान चंद्राचेर पैलेंवैलें मनशाचें पावल दवल्लें. अेक नवो अितिहास घडलो. विज्ञान फुडें वचत आसा, आनी वतलें. तरी मनिस जातिचे वळवळे अुण... लेखून कशें जायत ?

विज्ञानान जोडिल्ली ही जीख ! दर मनशाक हे गजालिचें अभिमान दिसूंक फावता. ह्याखातीर अमेरिकेची तोखणाय गायता तितली थोडी ! अशें आसतनाय, अभिमानावांगडाच मनाक खंतय...

( पान १५ पळयात )

# आवयचें सवंग

रामचंद्र पवारान मान वयर करून पळेलें, अेकानअेक खुर्ची रिकामी पडिल्ली. दार उक्ते मेळटकीर पांदऱ्यातली सवणी हुडून वचूंची तशे भोंगो जातकीर सगळेजण उठून गेल्ले. गजबज गडबड अेकदम बंद जाल्ली आशिल्ली फक्कत अेका हारीन रिकाम्या खुर्च्यांची मोनी जत्रा, रामचंद्राक सू जालें. त्या कडकडीत अेकांतात सगळें बंद सुटून पडिल्लेवरी जालें. आता थोडो वेळ हांगा शांत बसू येत.

पुण स्वीच बोर्डाम्हऱ्यान उबो राविल्लो सिपाय दिस्टी पडलो. खाकी कपडे न्हेसिल्लो किडकिडीत आंगाचो तो सिपाय केन्ना हेडक्लार्क भायर सरता आनी सगळचो लायटी बंद करता हाची वाट पळेत उबो आशिल्लो. मनात गाळचोय घालता जावये. रामचंद्र उठलो. तसोच अेकठ्यान बसलार निर्मलाची घडये आठवण फाट धरीत हीवय भिरांत आशिल्ली.

त्या रित्या खुर्च्यांची हार बलाटून येताना ताका बोरकराचो उगडास आयलो. अेक दीस उसरा काय काम सांगतकीर म्हऱ्यातल्या खुर्चेतल्या क्लार्काकडेन तो सांगू लागलो, 'हेडक्लार्क जड्डो. ताका किते रातबर हांगा बसून रावली म्हण. घरा कोण वाट पळेतलो आसा.'

हे रामचंद्राच्या कानांर आयलें आनी भिरभिरी माल्ली. ताणें बोरकराच्या दंडाक धरून हालयत म्हळें, 'म्हजो कोण ना ... कोण ना म्हण्टा! मगेर सारक्के आकुळ-विकुळ जावन ताणें म्हणिल्लें, घरा म्हजी दोन साबळी पिला म्हजी वाट पळेतात रे!'

रामचंद्रान डिपार्टमेंट बंद केलें. चावी हाडून सेक्युरिटी कौंटरार दीवन तो रस्त्यार आयलो. बस, टॅक्सी कितेय मेळत का म्हण वाट पळेत उबो रावलो. ताका वोगीच दुबाव येवक लागलो, हालीकडेन आपणाली घरा वचूंची ओढ उणी जातका काय किते, निर्मला आसल्यार घडये हाच्याय चड ताक-तिकेन हाव घरा वचूंचो आसलो. पुण असें जावक फावना. दोगां अबुर्बुद भुरग्यांक घरा सोडून हाव येता. ताच्यासाठीर म्हाका जाता तितलो बेगीन घरा पावक जाय!

इतले भितर अेक टॅक्सी आयली आनी म्हऱ्यानच थांबली. 'पात्रांव टॅक्सी?'

घरालागिसल्ल्या मोण्णार पावतकीर ताणें टॅक्सी थांबयली आनी तो उतल्लो. थंयसान चलत येतना बाबूल्या क्लाशीतलो अेक ओळखीचो भुरगो दिस्टी पडलो. ट्रीपीक गेल्लेवरी तागेली मुस्तायकी आशिल्ली. खांदाक उदकाची बाटली, बरो लांबतालो. ... विचाल्लें, 'खंय गेल्लो रे अनमोल?'

आमी ट्रिपीक गेल्ले न्हय तिळातयेर थंयची ... कितली सोबीत जाणा, माती सामक्को ठिाभशेन!

'आमचो बाबु-अशोक येवक न ताणे ट्रिपीक... सांगलेच ना मरे.'

'येवक ना तो. कित्याक आयलो ना काय ... विचारताली.'

रामचंद्र तिनसांजकातरेर घरा पावलो. दोगांय ... भिजिल्ली स्वणीकशी पाय दुमडून वोग्गी शिल्ली. पपाक ... शामल बेगीबेगीन उठलें. ताज्या हातातलें बॅग घेवन भीत... ताणी म्हळें, 'पपा चायेक दवरता हां.'

चेडोमात खुर्चेंतच बसुन आशिल्लो तोंडामुखार ...

'शामल, आयज कृष्णी बेगीनच गे?'

'गेले हेदोळ. शिताक वाळणी ालतकीर वत... लागले.'

रामचंद्र खुर्चेंत बसत ताणें बाबूक म्हऱ्यान आयलो... वेंगेत घेवन काय वेळ तो बसलो. मगे ताणे ह्वव ... 'बाबू आयज तुगेल्या चवथी क्लासीची ट्री गेल्ली?'

बाबू वोग्गी शामलान मुखार येत म्हळें, 'पपा ... टर्मिनलाचो रिपोर्ट पळोवन म्हणिल्लें न्हय, फावट ट्रिपी... दिवचो ना म्हण. हे खेपिकय मेथ्स्ताक नास जालो तो...'

रामचंद्र तापलो, 'म्हणून किते जालें ताणें सांगचे न्ह... तुवेतरी सांगचे न्हय. बेठीच पिशेंपणा करता.'

दोगांय वोगी. रामचंद्राचें काळीज ...दिल्यावरी ... ताका भोव दुक्क भोगलें. -ही म्हजकत कित्याक ... इतलें बेगीनच इतली शाणी? कित्याक ...ल्यात. तिनसांज... दंगामस्ती करून घर माथ्यार घेवचें असें आसता. ताज्या ... घर जागें उरचें. ताची अन्नाडीपणा, अवखळीपणा हावे ... पुण ही भुरगी भोव भितल्ल्या गाठीची. आपणांक 'मम्मी... दुक्क तर ती गाठीत घेवन बसली नात! आपणाक ... तांचें समदुक्क ताजेनच घडयेक ती आपसा झगडुक शक... दुक्क म्हजेय आशिल्ल्यान हावूय तांचेर तापूक शक... अभ्यासाक लागून. पयली म्हजो स्वभावसी करारीच

ून म्हजें गप जाता तितले मोंव, म्होवें जावचे म्हण
. पुण हे भुरगी म्हाका बापुय म्हणच पळेतात. ना
वना.

ुवें म्हाक सांगचे न्ही.'

भयेलो पा, हे फावटय म्हाका उणे मार्क्स मेळ्ळे

चितता निर्मला गेल्या उपरात हांवें लग्न केले ना ते
ट केले निर्मलाच्या मोगाक दिनवासी रावप, ताका
ना अस कसलो आदर्श विचार मनात नाशिल्लोच.
ा बांधूनांवचे, सगळे नव्यान सुरू करचे अशी इत्साच
रग्याचेर मन विसाविल्ले. हांव भुरग्याचे सगळे
तान करा हे समाधान आनी अेकेतरेचो अहंकारय
लो. पुणगेल्ली आठ वर्सां निर्मला जीणेच्या खिणा-
ळून ल्या. पर्थे लग्न केलार घडयेक निर्मलाचे नाव
ावन वट आशिल्ले. कितलें विचित्र न्हय !

गेल्या उरांत अेक दिवस मावसी आनी मधलो माम
ेवन आल्लें.

न्हवच विशयाक हात घालो. 'रामचंद्र, पोटाक
वेळवक्ता बायलमनीस घरात आसूक जाय. तुज्या
यलचेडू ासा. ताका तर आवयची फाटीफुडे चड

न नक्क सांगले, 'हाव पर्थो लग्न जावचो ना. पर्थे
वेवचो र हे बाबतोत म्हाका तरास दिलार मावसे,
डायतलों' तो उठलो आनी आपले कुडीत गेलो ताणे
लावन तले.

मदलो म दारार येवन म्हणूक लागले, 'पापया
गी पदस आसात आनी हे किते उलयता तू ? अख्खे
ानच ातलो ? '

न्हय तका अेक फावट. भुरग्याचे हाव पळेतलो.
लागचे ा ते.'

ना कशें' मावशेन म्हळे, 'हांव घेवन वता भुरग्याक
न्न घे.

न ट र ाडले आनी धेगसो घालीत म्हळे, 'कित्याक
होका ा हाव भुरग्यांक व्हरूक दिवचो ना. म्हजे
तला, तुज्या हातान सगळे करतलो. तुमी केन्नाय
लचो पल्यार घालात ना तर नाका ! सवतआवय
वरो मापे !'

रामचान खऱ्या जिद्दीन भुरग्याचे लालनपालन
रसाना ल्लेइल्ले हातातले सुटत चल्ल्या असे दिसता.
येवक लागल्या आनी बापुय हो फक्कत बापुयच
ताक होलमूक लागल्या काय किते ! रामचंद्राक
ी वसच वय जावच्या आदीच शाणी जावंक

लागल्यात– म्हजो मोग, म्हजी जतनाय उणी पडटा म्हण तर न्हय मू !

X X X

'बाबू आमी आत्याल्या चेडवाच्या लग्नाक या मरे.'

'पपा, आत्यागेर वेतना आगगाडयेत बसून वेतात न्ही ?'

'हय पयली आगगाडयेन मगेर बशीन. बाय, तू येतले मुगो?'

'पुण पपा म्हाका शर्मिलाकडेन आसा तसलो सलवार–कुडता जाय हां.'

'बरे भशेन गो बाय. फाल्या शिवक उडोवया.'

ती भोव उमेदीन लग्नाक गेली. अेक दीस आदीच पुण ती माटवात रिगली आनी झाडून सगळे सोयरेधायरे तांच्या म्हऱ्यान अेकठाय जाले. दर अेकठयाच्या दोळयात आनी उतरात कळवळे, काकुयट आनी चुरचुरे.

'आवय नाशिल्ली पोरा गो बाये, रानात शेणिल्ल्यावरी दिसतात.'

'व्हडलो ऐरावत हाडून दिलो म्हण आवयच्या मायेची सर येता !'

अेक पैसुल्ली मावली तर दोगांच पोटांक वेंगेत घेवन मुळमुळकन्न रडली. पोरा काचाबूल.

असे दिस, आवय ना म्हण सगळेजण पोरांक तिडयताले, चाळयताले. लग्न म्हण उमेदीन भुल्लसली भुरगी अचकित मोनी जाली. तांची उमेदच मेलो. हासपखेळप ती विसल्ली. येद्देशे तोंडकन्न माटवात खंयतरी बसलो. तरी घरातल्यो बायलो तांका सोडीनासली. ल्हानसान बाबीतय ती पोरा खंय–तांका पयली दियात गी, तांका पयली पळयात आवय नाशिल्ली पोरा विसरुन हुरतीत. म्हण तांचेर मायेमोगाचो पावसच झडयताली.

पोरा वोगी बसतात झगडीनात, काय मागीनात हे पळोन अेकटीन म्हळे, 'पोरा कितली शाणी आनि समजीकायेची जाणा, आसली भुरगी आसची.'

दुसरीन तिका जाप दिली, 'आवय नाशिल्ली भुरगी तशीच गो. शाणो जावचेच पट्टा न्ही. नाका जाल्लो हट केल्यार आयकोन घेवक आसा कोण !'

आयकोन रामचंद्राक भिरभिरी मारताली आमी आमचे रूं फेकचे म्हण यत्न करतात पुण हे लोक ताजेवेली सपली ओडून काडतात अेक फावट ताणे आपल्या अेका बापोल भयणीक म्हळे, 'कित्याक ओगीच तुमी आवयची याद काडून भुरग्यांची मना सदळ करतात. आदीच ल्हव मनाची भुरगी ती.'

'जाणा रे. पुण भुरग्यांक सबळो जावं, सवत जांव आवय म्हण्टा ती जायच हां. तेदना सांगलार आयकले ना तुवें. आपलोच हट खरो केलो. तू अेकलो खंयखंय म्हण पावतलो.'

रामचंद्राक दिसले, आपुण सगळे भुरग्यांचे आवयच्या हातान करता हाचे कोणाकच कवतूक ना. तो कायच उलयलो ना. लग्न दीस होंवळीक घरान्ल्यान भायर सरताना वयार करपाचो कार्यक्रम

जालो. रामचंद्राल्या भयणीन शामलाक मुखार आफोवन न्हवऱ्याल्या हातान ताज्या खांदार कपडो उडैलो. तिणे म्हळे, 'तुज्या आईच्या निर्मलाच्या नावान गो हो ! ते आसलार बरी ऽ साडी हाड्टा बाशिल्लो.

शामल खांदार कपडो घेवन तशेच फाटी सल्ले. रामचंद्रान पळेले, शामलाच्या तोंडार म्हालम्हातारेले जून भाव आसात. भुरगे-पण गळून पडला.

लग्ना दुसरे दीस तो भुरग्याक घेवन घरा आयलो. ताका दिसताले, लोक म्हण्टात तशी ही भुरगी शाणी जावक नात फक्कत तांची मना आदिल्यात. मेळत्ताणे 'तुमका आवय ना' ही जाणवी-काय दागून-भाजून करून दिल्या. आनि बापायमदले आवयपणूय मारून उडैला. पुण हावे उणे पडूक फावना ! निखालास उणे पडूक फावना !

X X X

शेजाराचे सरीता येवन सांगिनासताना दारातल्या मोती मोगरेची फुलां खुंटूक लागले. बाबून पळेले आनी भायर येवन बोवाळ घालीत ताका आडयले. इतले मजगती शामलय भायर आयले 'पळय सरीता फुलां खुटू नाका.'

'आईन हाड म्हणून सांगला. आमगेली आई शैला मावसीगेर हळदीकुंकवाक वचूची आसा. खूप फुलां माळून वतली ती.'

'पुण आमची फुलां व्हरू नाका तू' शामलान म्हऱ्यान वचून ताचो हात धल्लो. आनी ताका धुकलूक लागले. सरीता कुशीक सल्ले आनी ताणे हात नाचयत म्हळे, 'तुमका आई ना म्हण आमच्या आईक फुलां व्हरू दिना तुमी. नाकाच म्हाका तुजी फुला.' ताणी घरा धाव माल्ली.

भाव-भयण घरात आयली, शामल रांदच्या कुडीत वचून गणमणूक लागले. बाबू हातात बेठेच पुस्तक घेवन बसली.

काय वेळान शामला भायल्या कुडीत येतकीर बाबून विचाल्ले, 'बाये, आमगेली आई हळदीकुंकवाक वेताली ?'

'म्हाका याद येना रे.'

'तुवे आईक पळेयिल्ली.'

शामल काय वेळ बाबूक बारीक नदरेन पळेत रावले. मगेर ताणे सांगले 'मात्सीमात्सी याद आसा.'

'आई खूप फुला माळटाली.'

शामलान खंती आवाजात म्हळे, 'यादच येना रे म्हाका !'

सांजेच्या रामचंद्र घरा आयलो.

'बाबू किते करता ?'

'अभ्यास करता न्हय पपा.'

'खेळूकबीर गेलो ना' बाबू वोग्गी रावलो. रामचंद्रान म्हळे, 'जाव रे, वच तू खेळूक. अजून ल्हान आसा तू. व्हड जातकीर खूपखूप अभ्यास करचो. आता खूप खेळूंक, नाचूक जाय, हांव तुका बॉल आनी बॅट हाडून दिवं ?'

रामचंद्राक दिसले आयकोन बाबू भुल्लतलो. ... थंडपणान 'हुं' म्हळे.

आंगावेली मुस्तायकी उतरोन रामचंद्र ... बराबर शामलान चाव हाडून दिली. चाव जुस्तात ... रामचंद्राक दिसले चाव थोडी कोडू ना तर चड ... जाय आशिल्ली. 'बाबू चाव घेता' म्हणत ता ... ओतली. शामलान बेगीबेगीन दुसरे कोप हाडून ... दिले.

चाव पिवन जातकीर रामचंद्रान बाबूक ... आनी ताका वेंगेत घेवन बसलो.

'जाणा मरे बाबू, एक आशिल्ली चो ... आशिल्ली साधू गाय. चोर गाय लोकाले शेत, पोर ... माजिल्ली. आनी साधू गाय बावडी सामकी भागिरे...'

रामचंद्राक दिसताले, दर वाक्या कणकणी ... मगेर किते जाले, म्हण उमळशिकेन विचारचे. पुण ... करतालो. रामचंद्राली काणी सांगपाची उमेदच मेर ... आशिल्ल्या शामलार धेंगसो घालून ताणे म्हळे, 'च, केस ... करून घेतल्या मुगो. चल फणी घेवन यो. हांव केसांक ...'

नाका पपा, हांव घेता वोळीवन म्हणत शाम ... लागले. रामचंद्र चडच तापलो. ते वोग्गी फणी घेवन ... फुडयान बसले. रामचंद्रान ताजे केस बरे वोळून ... वेणयों घाले. मगेर ते नीट जावचे म्हण कस्कस्क फाटी ... ते बराबर शामलाची मान फाटीफुडयां हालली. रामचं... दिसले. शामल उठून वतकीर म्हऱ्यान बशिल्ल्य बाबून विचाल्ले, 'पपा, आई हळदीकुंकवाक वेताली ?'

आयकोन रामचंद्र कांचवेलो. ताणे बाबूक वें... 'हय वेताली तर ?'

'खूप फुला माळटाली आई ?'

रामचंद्राला काळजार चीर ओडिल्लेवरी जा... तो थिर. यादीत गुल्ल. मगेर आवाज सबळ सोत ... 'हय, खूप फुलां माळटाली ती. फुलाचे विशेष ... बाग खुटून हाडून दिली तरी पुरनाशिल्ली ताका ता... चडच वेंगेत आडून घेतलो.

X X

घरावेल्या हारशाच्या नळयातल्यान येद्दो ... टिबो सालात पडिल्लो. बाबून तोंड वयर करून ... अर्धा भाकरेरवरी जाल्लो चंद्रीम हारशातलान लिक... पपाक म्हळे, 'पपा आमी चान्न्यात फिरूक या ?'

'आयजच नाका बाबू, अजून चंद्रीम सार्क ... पुनवेचे शुद्ध चान्ने पड्टकीर मुद्दम या.'

'बायेकूय व्हरचे हं पपा.'

'व्हरचे तर !'

जनेलारी उबे रावन केस सोडोवन पय नया मोदीन
े. ह्यादिसांनी ते असेच करी. पर्थेपर्थी केस सोडोवप,
ान म्हे, 'तुगेले म्हण नाका जाल्लेच हां शामल
ार केस कित्याक सोडोवन बसला ? ' शामल ह्य

यो चंद्रीम पळय, तुका तो दावकूल दाखोवन

ात मल मनापसून हासले. [बाबूय हासूक लागलो.
ान तिर वचून मेज पुसून जेवणाताटा माणली.
तिकनसुखार येवन तातून शीतकडी वाडली. इतले
उदक्वो तांबो भरून हाडलो आनी ग्लासांनी उदक
ंव बली. शामलान मदीच भाजियेतलो बटाटा
ान मेजार दवल्लो. स्ट्रायगर मारिल्लेवरी बोटाचे
ताजें माल्लें. कुडको जुस्त बाबूल्या आंगार पडलो.
ले, 'पा, बायेंक पळय म्हजे खोमीस घाण केले.'
ाक शलाची पिशेपणा भोव मानवली. हरशीय ते हे
ाच रूक लागिल्ले !

राबंद्र सालात वाचत बशिल्लो. .बाबू बेगीबेगीन
ानंसांगूक लागलो, ' बाय बेठेच रडूक लागल्या.
ार काच सांगीना. रडटा, रड्टा !'
भित गेलो. ताका पळेतकीर शामल फतकल मान्न
ाकर्टार येद्दो व्हडलो रक्ताचो तिबो, करंड्या-
ून गळल्यावरी !

ळ तटास ! काचवेन, भियेवन पळेतच रावलो.
ाम, कसे समजावचे ताका कायच कळना जाले.
फिलो आनी सालात येवन अुबो रावलो. तो स्वैर-
ानी तिर शामल हुंडकेवनहुंडकेवन रडटाले.

सव शेजारा ताराहोनयेसरी गेलो; ताणी उलो
, मसे येशी ?

क केते जाले, हाव भाजी शिनता. म्हाका वेळ
ग मणूक लागली.

जें काम गे. बेगीनच यो.'

आवाज आयकोन ताराहोनी बेगीबेगीन
ले तरी किते म्हणत ताज्या फाटल्यान आयली.

नाफुडे तिणे वळखले. तिणे व्हडान बोवाळ
ल आता व्हड जाले रे रामचंद्र ' मगेर तिणे
म्हळें, रडटा कित्याक, गावाशिवायच किते !
ामलाक घेवन मान्न्यात गेली.

रामचंद्राक मात् लेगीत आवडले ना. तिका
वय नाशिल्ल्या चलयेचे हे गावाशिवायच अेक
ालमार उक्ती केली. तातुतल्यान शामलाचे
ून भितल्या कुडीत हुंबरार दवल्ले. मान्न्यात
ल्ल्याचो आवाज येतालो. तो असातसोच येवन

भायल्या सालात देडपायार उबो रावलो. बाबू शाण्यागुण्या भुरग्यांवरी भायल्या वारांदात अेका कोनशाक पुस्तक घेवन बशिल्लो.

ताकतिकेन, धसमुसळेपणान सगळे जाग्यार उडोवन ताराहोनी गेली. वतना व्हडान घर हालयत तिणे म्हळे, ' आदली पिशेपणा सोड गो शामला. आता व्हड जाला तू. चेडूभुरगे ना तू आता. बायल जाल्या. आनी रामचंद्र तुकाच सांगता, नवो भार पडला तुज्या भुजार. सांबाळून राव !'

रामचंद्राक दिसताले, खूप नाजुक हातान, शामलाचे सगळे कोणेतरी करूक जाय आशिल्ले, म्होंव्या उतरान, मायेन ताका सगळे समजावक जाय आशिल्ले. म्हाका तर ताज्याकडेन हे बाबतीत उलोवकय भिरात दिसता. खिणात हे पयसुल्लेपण, हो संकोच कसो पातळ्ळो !

त साजेक घर सामक्के मौन आशिल्ले. बाबूकय किते जाल्ले कोण जाणा. आयज पुनव आसूनय तो चान्न्यात फिरूक वच्चेली खबर करीनाशिल्लो.

अनंतान सगळ्याक वाडले. जेवक बसचे पयली शामलान बाबूक ल्हवच म्हळे, ' बाबू, देवांफुड्यान दिवो लावन पायपडून यो. '

बाबून काय एक विचारनासताना, पयलीच फावट देवाफुड्यान दिवो लायलो आनि खऱ्याच भावार्थान पाय पडलो.

आयज वाडटाना मेजार एक ताट वाजले ना. जेवताना कोणी-कोणाक किते जाय नाका विचाल्ले ना. शामलतर मान सखयल घालुनच जेवले.

जेवन जाल्या उपरात शामलान पयलीच फावट आपले हांथुरण वेगळे एका कोनशात घाले.

बाबुक वेंगेत घेवन न्हिदिल्ल्यो रामचंद्राक खोलायेन होलमताले. आयज निर्मला असुक जाय आशिल्ले. निर्मल गेल्या उपरात हावे लग्न केले ना ते बरे केले काय वायट केले, हे ताका कायच कळना जाले. पुण घरात कोण तरी हक्काची बायल जाय आशिल्ली खरी. हांव बापूय म्हण बरो असलो तरी आवय म्हण उणो पडला. खूप उणो पडला ! कसलेंय सवंग घेव येत. पुण आवयचे सवंग घेवप भोव कठिण !

* *



# तेफळां

— तेफळू

धोलार बडी पडली काय आंगांत भार आनी अवसर येता म्हणटात; म्हळचार धोलाच्या आवाजान कुडींत स्फुरण येता. दो. मनोहररायांनी आपणालें पयलें कोंकणी पुस्तक १९६० वर्सा अुजवाडायलें ताजें नाव ' आयज रे धोलार पडली बडी '. ही अेक रूपक सांगितिका. मनोहररायांचे प्रतिभेचो हो अेक सोबीत अविष्कार. पुण कांय तिरसुवाद वाचप्यांक सदांच प्रस्न पडला तो असो : धोलार पडटा ती तोणी आनी बडी म्हण्टात ती ताश्यार वा शामेळार पडटा धोलार बडी हो वाक्यप्रचार कोणेय मात्सो तपासून पळेल्लो बरो न्हय?

X X X

चंद्रकांतबाब केणी हाणी कोंकणी कथा साहित्यांत अेका नव्या प्रवाहाक सुरवात केली अशें मानतात. हाजी गवाय म्हळचार तांचो १९६४ वर्सा अुजवाड आयिल्लो ' धर्तरी अजून जियेताली ' हो कथा-
संग्रह. कांय समिक्षकांक तांचो ' अळमी ' हो १९७५...
आयिल्लो कथासंग्रह चड प्रातिनिधीक आनी परिप...
' अळमी ' त पयलीच कथा आसा तिजें नांव ' अम...
वाचपी घडये तिका कथा म्हणीनासतना लघुनिबंद...
म्हणात वा लघुनिबंद पुण ' आमलो तोर ' घरोवप्या...
दुबाव ना. ह्या बरपाचीं सुरवातीचीं अुतरां; ' श्रावण...
चवथ येवन गेली. पुण पावसाचो भार अजून अ...
दनपारची अिकरा वरां जावन गेल्यांत. अजून व...
निकतीच अेक दडक शिरशीरून गेल्या. भायले व...
तेंगशेर आंवलेचीं तीन तोरां धोलतात ह्या दिसांनी अ...
अप्रुपच. म्हजें चित्त रावन रावन थंय वता.

अुपरांत कांय परिच्छेद वतकीर १० व्या पाना...
' खरेंच, सोपत्या भाद्रपदांत आंब्याक तोर लागप ...
अप्रूपकायच फक्कत न्हय तर सोबीतकायूय म्हजें चि...
मळबांत अजून पावशी कुपां दाटिल्लीं. आसात. वतार्च...
कडो अुजळायतात. आनी माथ्यार न्हावन केंस मेकळे ...
अेकादे बायलेच्या गालावेले अुदकाचे तीन थेबे क...
तोरां चकचकतात. '

आतां पळेयात, खूबश्या वाचप्यांवरीच बरोवप...
अुपरांत आंबलेंक तोरां येवपाचे अप्रूपतायेविशीं दुबाव ...
चमत्कार सैमांत जांव नजो अशें कांय तिरसुवाद वा...
तें मतींत घेवपाचें काय कितें ?

X X

स. बाकीबाब व्हड कवी हातूंत दुबाव ना. को...
मराठीचेय. कोंकणींत तांचे दोनूच संग्रह आयले: ' पां...
' सासाय '. ' पांयजणांचे ' प्रस्तावनेंत बाकीबाब म्हण...
तरेकतरांचे छंद आनी प्रकार दैववशात् हातूंत प्रगट...
भावकवनां गीतां, नाट्यगीतां, संगितिका, लावणी, ...
तरेकतराची रचणूक कोंकणींत कितली सहज जा...
अुपरांत ४८ व्या पानार ' बिमलां–रोस ' नावाची ...
व्हांवता:

> सुंगटां घालून कर गो बेस बिमलांचो रो...
> फैंदासून हाडला हांवें आज तांचो घोंस ...
> मानशेचीं सुंगटां असलीं मेळुंक भोव कठी...
> तांकां लागून बाटुन वचत अनवाळीय भ...
> हुमण कसो कर गो मिच्च घालुन दुणो...

आतां बाकीबाबांक सहज बाळकृष्ण भगवंत ...
नावान अुल्लेखपी अेका कोंकणी गीतकारान हे कवितेक ...
' रोसीकताये ' विशीं दुबाव परगटावपी अेक प्रस्न आम...

त, हळद्यार बिमलांसयत, भेंड्यांसयत, मस्काच्या
रासत वा मुळ्याच्या फोडींसयत सुंगटा येवात तेन्ना
का ताजें हुमण जाता ? सुंगटां घालून बिमलांचो
मल घालून सुंगटांचें हुमण ? आमची अडचण
बाबाब नात.

X X

बा मावजो कोंकणींतलो अेक नामवेचो कथाकार.
' आी ' जागरणां ' हे कथासंग्रह नावांजते. ' गांथनी '
ा नोहररायांनी अेकीकडे बरयलां की बरोवप
तरें गरोवप. लिखणेचे सितारेक अर्थाचीं हायसां
च्यादर्शांतलें कलाकृती नुस्तें फारावप. (अशें कितेंशें )
ांथोंत ' ' अशोक ' नावाची अेक कथा आसा.
र ाचात; ' गऱ्या बडी घवन तो भायर सल्लो.
शिान हात दिलो. ुस्त्य ार नुस्तें मेळ्ळें. रोखडीच
अाक घरा आयलो. गांथनींतलें नुस्तें सकयल
त कें शेंवटाळो, अेक खरचांड आनी अेक सांगट
नुं सदांचेंच म्हळचार करांटे बी ते ताणे भाजून
ते शेंवटो मुखार दवरून खडवा-कुडको हातांत
िन्ना मुखार दवरून चित्र काडपाक लागलो. स अिची
ो फुटी चिताल्लो. '

फाविल्ल्या वेळार पेन आनी सितारी सफायेन हाताळपी अेका वाचप्याक दुबाव पडला अशोकान कितल्या नंबराची गरी वापरिल्ली ? बडी घेवन गरयतना खंयचेय गरयेक कसलेय नुस्तें पावना. गरोवपाचें अेक शास्त्र आसता. चित्रां काडपाच्या वा बरोवपाच्या शास्त्रापरस साप वेगळें. मावज्यालो ही कथा हांयस होगडावन मेकळी बी जावंक ना मूं ? तो विचारता.

पुंडलीक नायक (कवी, कथाकार, कांदंबरीकार, नाटककार बी) कोंकणी साहित्याक पडिल्लें म्होवें सपन, प्रो. प्रकाश भळीं हाणी ताका कोंकणीचो प्रेमचंद अशें फावोशें नांव दिलो. ताज्या गांवगारी जीण चितरावपी साहित्यांची भास अस्सल गांवठी कोंकणी. पुण अदींमदीं कित्याक लागून कोण जाणा हें ताजें कोंकणी भाशेचें अस्सलपण शेणटा. देखीक ताजें अेक पात्री 'छप्पन्न थिगळी येसवंत,' हातूंतली 'छप्पन्न' आनी 'थिगळी' हीं अुतरां कोंकणी न्हय अशें अेक वाचप्याक दिसता. कोंकणीत पांचांचरे स यतकीर शाप्पन जातात आनी पिंदिल्लें शिवून धांपपाक कपी वापरतात. (फक्त कपयोच गांठायतात ताजें कपयाळें जाता न्हय ? ) येसवंताच्या भेसाच्यो (भाशेच्यो अेक दोन कपयो अुसोवन दाखवयल्यो म्हण येसवंतांचें माचयेवेलें येस (अब्रू) अुक्तें वाऱ्यार पडना ही गजाल वेगळी.



---

## ंखार

)

रकें मनिस चंद्राचेर घाडलो, तीच अमेरिका व्हियत-
 ाड्टा. आपल्या स्वार्थाखातीर थंयच्या भावार्थी
ळा करता. गुन्यांवाविणें थंयच्या लोकांचेर अुज्याचो
ह्त्तेक क्षमा ना. विज्ञानांत आज अमेरिका फुडें
ी अशें तिजे आमी कौतूक करूंक जाय तेच परी
कांचें जें हत्त्याकांड तिणें चलयलां, ताची बिर्मतय
ां.

–९. कालच्यान मनिस चंद्राचेर पावलो. अवकाश
 करून तो जिखतलो म्हणपाची ही पैली नाट,
गात शिकता आसतना, वाचिल्ल्या अका घड्याचा

कार आशिल्लों. सवणीं मारपाचो ताका मोठो नाद
 तुवक घेवन सवणी मारपाक ताणें विडविडचें.
तांर नदर सदाच वरशी करून ताणें भोंवचें. अक
 भोंवता आसतना वाटेर सोरोप आशिल्लो, तो
ा. सोरपा पाय पडना फुडें सोरोप ताका चावलो,
 तो भोंवडकार मेलो. अशीच कायशी अवतिकाय

आमची जांवची नामूं ? अवकाशाचो आमी सोद घेतात. भुगर्भांत कितें चल्लां म्हणपाची सुनशा आमी कितलिशी घेतात ?

१३–७–७० आमचे जिणेक अेक वेग आयला. खोलाय आयल्या जायत ? म्हाका दिसना. वेग वाडटा तितली खोलाय आमी वगडायत वतात. आज मनिस धांवत आसा. ताका वेळ ना. तो खुनार अुठिल्ल्या भाशेन अुठला. जिवाक अुबगला.

१५–८–७० आमगेले अुमेदिचे भुरगे आतां कोंकणींत बरोवंक लागल्यात बऱ्या सुगुर्ण्यांची गजाल ! जाल्यारूय, थोडे जी भास बरैतात ती वाचूंक नज जाता. बरोवपाक जी जतनाय आनी तकालस घेवपाक जाय, ती ताणीं निखालस घेतिल्ली दिसना.

आपलीय भास आपल्याक शिकचीच पड्टा. तिजिय जिवणी समजून घेंवची पड्टा तिका धोडावची पड्टा. तिजेर फार घालचे पड्टात तेन्नाच ती अरळ आनी मोवाळ जाता; आपल्याक जाय तशी वागवता. तिका आसुडची पड्टा फापुडची पड्टा, वेंच्ची पड्टा, तेन्नाच भितल्ले आंशे भायर पड्टात: तिकाय मोवण लांवचें पड्टा तेन्नाच ती तगतली जाता. आपल्या भुरग्याभाशेनच तिकाय आपल्या आंगा खांदयार खेळोंवची पड्टा. काळजाकडेन आंवुळची पड्टा अनन्यभक्तीन तिजी सेवा करची पड्टा. अशें केल्यारच अेकाद्रेवेळा, कोणाय अेकल्याच्या हातान ती चमत्कार घडयता.



# कथा : चवथीच्या दिसांतली... – अुल्हास यशवंत

'आ sss व s यस.'

ताणे अेक व्हडलीशी जांभय दिली. काळखांतूच अुशाकुशीक दवरिल्लें फस्क काडून ताणे तातूतली अेक फस्काकाडी पेटोवन दिवो पेटोयलो. भायर पावस घोग्यानी रकतालो... अचकींत पावस मोठ्यान पडील्ल्यान कायं नळ्यांखाचींतल्यान अुदक भितर गळूंक लागलें. गोयाल्या हातरूणाचेरय मात्शें गळटालें. तो अुठलो. आनी गळट्याजाग्यार, चुलीकडल्यो चार चुडट्यो हाडून शिरकावंक लागलो. भितल्ल्यान मंदा खोकिल्याचो आवाज आयलो, तसो तो दिवो घेवन कुडीचें दार अुगतें करून भितर मंदाम्हऱ्यांत गेलो...

'बाय... ' ताणे ताज्या कपलार हात दवरून जोर कितलो आसा हें पळयले. जोर अजून देवूंक नाशिल्लो.

'बाय बरें दिसता मुगो तुका आतां ?' गोयान आस्तेन विचारलें, पुण मंदाकडसून ताका कांयच जाप मेळ्ळी ना.

आयज दिसभर तें जोरान खतखततालें... दोतोराक हाडलो तेन्ना दोतोरान तपासून ताका गुळ्यो आनी अेक इंजेक्शन दिलें. त्या गुळ्यानी आनी इंजेक्शनान तागेलो जोर देवतलो म्हूण सांगिल्लें. 'पुण दोन गुळयो आनी अिनीसाव घेवन मंदाक कायच गुण पडलो ना. दोतोरान सांगील्लें की दोनूच गुळ्यानी तागेलो ताप देवतलो म्हूण, पुण तरी पळोवया ही तिसरी गुळी दिवन' मनांतल्या मनात घुस्पटावन ताणे बेगबेगीन अुशांकडेन दवरील्ल्या पाकीटातली अेक गुळी काडली आनी थयंच लागसारा दवरील्या बोगुण्यातले मात्शी हुनसाण आशिल्ले अुदक पेल्यांत घेवन तो ताज्या म्हऱ्यांत आयलो...

'बाय... हे बाय, बाय मंदा...'

'हूं...' मंदान पांघरूणात तकली मात्शी सदळ करून ओठां-वेल्यान जीब भोंवडायत हुंकार दिलो.

'बाय... कशें दिसता तुका आतां ?... जोर वचूना पळय आजून. ही गुळी घेता मुगो अेक आतां... हय' घेतल्यार बरी अुठून बस पळोवया मात्शें... बाय बरें दिसतलें तुका... अुठता मुगो ?'

'हूं...' जोरान जावपी त्रास मंदाच्या मुखामळाचेर चित्रीत जातालो.

'बाय अुठ मुगो... घेता मुगो गुळी... घे. मागीर अुदीक निवतलें.'

'हूं... घेता' तें अुठपाक पळेता पुण ताजेकडेन अुठपाक जमना. तें पळोवन गोया अेक हात ताज्या फाटीक घालून दुसऱ्या हातीन ताका मात्शें अुभें करून वण्टीक तेकून हातरुणाचेर बसयता... मंदान गुळी ताळ्यांत घेतकीर गोयान ताका पिवपाक अुदक दिलें. मंदा दोन-चार घोटावयर अुदक पियेलें ना.

'गुळी घेतली न्ही, आंतां बरें दिसतलें तुका. ह्या गुळयेन सगळो जोर देवपाक जाय तुगेलो... आता बुरनूस माथ्यावेल्यान घेवन न्हीद हां.' अितकें म्हणसर ओंवळ जागें जालें...

'बाय... कशें दिसता गो तुका आतां ?... तान-व्रीन लागल्या गो बाय ? पिवपाक दिवं कितेंय ? कसाय परीपाठ ?' ओवळ.'

'ताळो सुकून येयला गो बाय ?'

ना... नाका... ' तें परथून शेंदरेर आड पडलें...

'ना गो आता बरें दिसतलें तेका' गुळी दिल्या ते ह्या गुळयेन जोर देवूंक जाय तेगेलो... आनी देवतलो. ओवळाक समजणी घालता.

'बाम अिल्लो काडल्यार बरो नी तेका. हुम दी... हुमेनूच जोर निवळावपाक जाय तेगेलो. हां ? ला

'लाय, लायता जाल्यार लाय. बरो छातयेक आनी वचूनी अेकदाचो.' ओवळान बरोच बाम आपणाल्या घेवन तो ताज्या फाटीक, छातयेक, बरोच चोळून लायलो.

--- रात बरीच जाल्ली. गोयान दिवो पालयलो. मात्सो कमी जाल्लो आनी भितल्यान गळपूय कमी जाल्लें. दिस मंदा दुयेंत आशिल्लें. ताज्या पोटांत आलीमेंत कांयच ताकालागून गोया-ओवळाक न्हीद नाशील्ली, जेवणूय क

'तेका आनीक बुरनूस बी जाय जाल्यार दि खायत, आनी न्हिदतना दिवो पालय गो..' शेंदरेर पडटा गोयान ओवळाक शिटकावणी दिली. भितर ओवळ अुलयतालें... तें सगळ्या देवांचे नाव घेवन मंदाक बरें मागणेन आंगवणी करतालें. 'माये बेगीन ह्या तुज्या भु करून, बरें आरोग्य दिवन तुजी सेवा करपाक तेका दिव बरें वाकडे पळोवपी, आनी निवारपी, आमकां तारपी तु आमा तुजो खयंच्याय वाटेन अपराध जर केला, आमी वायट केलां आसत जाल्यार तेजे फळ ह्या भुरग्याक मात माये, आमच्यो चुको फाटी मारून, आमकां भोकसून भुरग्यांक तु ह्या अिपटीतांतल्यान बेगीन बरें कर. खंयचे वखदां हाडून तेका दिली पुण कायंच गुण ना... गुळयेन तरी तेका गुण दी आनी सकाळमेरेन तेजो न्हिवय. देवा गणपती आनी चार दिसानी तु येवचो जा तेन्ना तेज्या हातीन तुजी सेवा करपाक तेका ताक दी हात जोडून तुमच्या लागीं मागणे. फुडल्या वर्सा तेज्या हा सेवेक पांच नाल्लाची पंचखान वाटीन.'

... ओवळाली अुतरां आयकतां आयकतां केन्ना दो हें गोयाक कळ्ळेंच ना...

... आयज तीन-चार दिस जाले. मंदालो जोर मा देवत आसा, पुण तागेलें दुयेंस मात आजूनय निवळूंक मधीं मधीं तागेले हात-पाय वळून येताले, मुयेताले कुलकुलो येतालो, तकली जड जाताली. दोतोर सांग 'तागेलो जोर कुशींनीं भल्लेलो आसा...'

ओवळ आनी गोया ताका काम करूंक दिनाशिल्ले दिस कीं आपूण आतां बरें जालें, आपूण आतां का

ताजी आई-दादा ताका काम करूंक कशेंच दिय
वरीं तीं ताका जपताली. ताजी खुब कुयदाद
सुरीच, जाता-नजो करून, भायलें-भितल्लें काम
शेंण करून वाडटा हें तिजे त्रास पळोवन मंदाक
डूंक येतालें...
मनशाक बेकार कशें रावूं येयत ?'
दिस. घरांत सामकी धावपळ चलील्ली. चवथीच्या
आयील्ली मंदाली मावशी आनी आई कामांत
आशिल्ली. सकाळी फुडें अुठन ओवळान बयणीच्या
तीर पांचखाजीं, नेवऱ्यो केल्यो आनी अुपरांत
लो. मेव्हणेच्या पुताच्या आधारान गोयान घराक
भितर शेंण सारयलें. रंगीत फोली हाडून ताजी
पुजपाखातीर भितल्लें मेज फोलीनी रंगयल्लें...
ही खटपट पळोवन, तांचे त्रास पळोवन मंदा
खुब्ब दुःखी जालें. घरांत 'आपूण चलीमनीस
आईक तिच्या कामात पालोव दिवंक शकना हें
दोळयांत दुखां आयलीं.'
आई हांव वाडटां गे ती मिरसांग'
गो बाय, तुका सांगला न्ही हायैन. तु वगी बस थंय ?
यू. ही पळय, हायेंन बेगड हाडल्या, जायो करूया
मुखार, माथ्यार सारक्यो लोंबकोळवपाक मेळटल्यो.'
न तरी बेगड हाडून मंदाम्हऱ्यान दवरीली... दोघांय
जायो करूंक लागली. ताज्या अुपरांत मंदान बारीक
कुडके घेवन कातरीन कसलेतरी डिसाईन करून तें देव
क चिकटायले. दोघांय देवाची कुड रंगोवपाक,
मकीं गुंग जाल्लीं. आईन ( ओवळान ) दोनतीन
लयले पुण मंदान तें मन रूच घेवंक ना. आपूण दुयेंत
विसरिल्लें आनी देवाक सोभा हाडपाक वावूरतालें...
दिसा दनपारचे आरत्यांक वाडयावेलें चडशें कोण
वेळा मात धा जाण आयले... आरती जाल्यो. अुपरांत
दुसऱ्यागेर गेले... गोविंदय तांचे बांगडा आरत्यांक

पयलो दिस हुंपून दुसरो दिस केन्ना, कसो आयलो
...
गणपती देवाक पायतले म्हूण लक्षा, मिना मात्शीं
लीं पुण तितकीच फोगाची तांका अुमेद आशिल्ली.
राणाच्यो फोगोटयो सेपेराद करून अेक अेक मारत लीं.
नदर चुकोवन मधीं मधी मंदाय धाकटूल्यां भोवतणी
फोगाची मजा घेतालें. सुटसुटीं. नारंगा माराण फुलवाती,
. मजाच मजा...
गोटी वयर अुडयतना मळबाक पळोंव नाका हां. व्हडली
डटली तुका. आईन सांगला तें खबर ना तुका ?' मिनू
करतालें.
च्या आरतीक तर लक्षान, मिनून खुब फोग लायलो.
पावयतना लावपाक हाडील्ले पांच गावठीं गर्नेलातलो
तान हळूच पतऱ्याफोलीणापोंदा दवरून लायलो...
ज जाली, लोक देवाक पळोवंक म्हूण येवंक लागले.

देव पळोवपाक आयील्ले काय मंदाची खबर घेवन वेतालें: मंदाक ताका लागून मिनू आनी लक्षाक चार घरा भोंवडावपाक मेळ्ळें ना. तरीलेगीत मिनू आनी लक्षा भोवलीच. शास्त्रात तशें आसा म्हूण ओवळान मंदाक आपलेबराबर वाड्यार चार घरां भोवडांवन हाडलें... आनी अचकींत पावसान परथून येवपाक सुर्वात केली...

पावसान आपणालें येवकाराचें, येणेंच मोठ्या पावलांनी केलें. फाटल्या आठ-दिसां पावस खुब... प्रमाणाभायर पडील्लो. आपणाल्या धडकांनी झाडां-पेडांक झोडपून काडील्ली. काय जाणाक आडूय अुडयल्लीं. शेत-व्हाळ-चर अुदकान अुप्पट भरून व्हावतालें. मधींच थामून आसोर केल्ल्यान परत आतां तो तांतूत भर घालतालो...

'शी ! बाये, कसलो सांवार येयला म्हणोन जाण-कोण, मात्सो पावयसर तरी आसोर केल्यार पुरो आशिल्लो...' ओवळान निर्शेणूनच म्हळें.

वेळ वाढत आशिल्लो... पावसाची भिरभिर मात्शीं कमी जाली... भायर काळोखूय चिप्प जालो... कांयवेळान कोणागेर तरी घुमटां ताशांचो आवाज येवंक लागलो...

'येता गो हांव.. आरत्यांची सगळी तयारी करून दवरात हां. दिवल्यानी तेल पळयात गो पालवत बीन' ओवळाक सांगून गोया सत्री घेवन घुमटासयत आरत्यांक वचूंक गेलो... वाड्यार धा-जाणालो मांड म्हण्टकोर आरत्यांक बेगीन सुरवात जाताली, आनी सगळे धा-जाण एकठांय येवन गणपतीचें विसर्जन मोठ्या दबाजान तशेंच खोशयेन करताले.

... सुमार अकरा वरांचेर, लक्षा वाटेवयले पट्रोलमास पळोवन धावत भितल्ले कुडींत आयलो. 'आई... आई... मावशे... येता गे ते सगळे. बेगीन भितर मात्शें निवळ कर...' लहर येता तशी मधींच कोणतरी घुमट साजयताले, कोण ताश्याचेर बडी वाजयताले तर कोण शामोळी.

... आरती जाल्यो, तशे सगळे लोक घान्हाणे अुभे रावले. ओवळान घान्हाणे घालतल्या जेनूदादाक मंदाक बेगीन बरे कर म्हणपाचें घान्हाणे घालूंक सांगलें तशेंच फुडल्यावर्सा ताज्या हातीन पांच नाल्लांची पंचखाज वाटीन अशीय आंगवणी करूंक सांगली.

लक्षान माटोळीची कायं पेरां, आपोल, तवशें काडून प्रसाद म्हूण सगळ्यांक वाटले. अुत्तरपूजा जाली. गैरी-म्हादेवाचें विसर्जन केलें... अुपरांत ताणी गणपती देवाक तुळशीमुखार हाडून पाठार बसयलो... 'मोरया... मोरया...' करून घरांतल्या सगळ्यांनी ल्हायो ओवाळून ताजेर अुडोयल्यो...

शेजारच्या एका भुरग्यान गणपतीदेवाक माथ्यार घेवन तुळशिचें पांच ( भोवताडे ) प्रदक्षणा काडली... तशे हेर आपणाले गणपती देव व्हांडूक परतले...

'आरे खंय पावया गणपती, वर्सा पायताले थयंच मरे ?' कोणेतरी प्रस्न विचारलो.

'हय हय...' गोयान ताका जाप दिली.

'ना... कित्याक म्हण्टा जाणा हांव... हुव्हार आसा न्हय रें... अुदकाच्या नेटान खोण बी पडूनात मरे ?'

'ना... ना... थयंच पावया... कुणीक बरो जागो आसा.' कोणतरी अुलयलो.

' ... 'गणपती पुत्र पारवतेचा, जातो गंगेपाणीयेला ...'

' ... मागें हळू हळू चला, मुखाने रामकृष्ण बोला... मोऽऽऽरयाऽऽ' प्रत्येकाल्या देवाभोवतणी गजेर घालीत पावली मारताले...

...गजेर घालीत धाजाणानी गणपतीदेव व्हळार हाडले. पेट्रोलमासाच्या उजवाडान व्हाळ लख्ख दिसतालो... हुव्हंसाचें अुदक बरेंच नेटान व्हावतालें... गणपती भोंवतणी बायलांनीं फुगडचो घालपाक सुर्वात केली... फोगाक तर मातूय थारो नाशिल्लो... लक्षा भित भित माराण लायतालो, तर मधींच माराणाक अुजो लावन, गजेरांत येवन मोठ्यान म्हण्टालो...

' पाअुस पडला चिखल जाला पाणी लागले वडाला
पारवती सांगे अहो शंकरा गणपती ... बुडाला.'

हेर फोग लावपीं भुरगींय ताजे वांगडा येवन ताज्या आवाजाक वांगड दितालीं. मिनू तर देवामुखार फुलवाती पेटोवन मधींच त्यो धडवेल्या आंब्याचेर शेवटींतालें...

धडेर धा-जाणानी गणपतीदेवाच्यो आरती केल्यो. फोगाच्या आवाजान आरती आयकूंक येय नाशिल्यो... एकएकटच्यान गणपती पावोवपाक सुर्वात केली...

' बाबा, तु देवाक पावयतना सांभाळून राव हां... अुदीक पळय कशें व्हांवता तें... चड मस्ती करूं नाका...' अेकटच्यान आपणाल्या भुरग्याक शिटकावणी दिली.

व्हाळाक अुदक खुबूच आशिल्लें. विल्लोसों व्हाळ जाल्यान अुदकाचो व्हावपाचो नेट बरोच फास्ट आशिल्लो. तरी कायं जाणानीं गणपतीदेवाक व्हाळा कुशीकच बुडयलो.

' गोयींद आमगेलो पावयता मरे ?' भाटकारान विचारलें.

' पावोवया भाटकारा ? '

' हय. घे तो.'

' बरें, तर ' गोयान गणपतीदेवाक अुभारलो... वाजयत. नाचयत तो व्हाळाधड देवतां.

' बायू, बायू... बेगीन यो हांगसर.... पळय दादा पायता गणपती. ' मिनून बेगबेगीन मंदाक ओढीत धडेर व्हेलें.

' गोया सकयल थंय मोंडणार पावयरे... लागीनाका. आनीक तुं सांबाळून राव हां... अुदकांत पाय घालतना सांबाळ...' भाटकार.

' बरें भाटकार. ' गोयां अुदकांतल्यान हळूहळू पावली मारता.

' बायू... बायू हांगा नाका. थयं त्या मोंडणार या. बरें दिसतलें... चल...' मिनून मंदाक त्या मोंडणार वरून, थयं ती दोगांय अुभी रावली. त्या माडां मुळांत एका फातरार पाय दवरून अुभें रावलें... अितले म्हणसर थयंच कोणेतरी फाटल्यान माडां मुळांत लिपोवन दवरून लायील्लो गर्नेल जालो... आनी मंदा त्या आवाजान कांचवेले आनी धावपाक म्हूण ते फुडे सरले. काळखांत धावतना दुसऱ्याफातराचेर ( मोंडणार धडेर ) पायं दवल्लो.

मोंडणार व्हावतें अूदक येवन पोखरील्ली ती वाट, अुदकाच्या नेटान फुगील्ल्या धडेच्या सदोळ जावन रावील्लो फातर जणू काय मंदाकच रावतालो... ताजेर पायं पडनाफुडें अचकीत दोघांय ( फातेर आनी मंदा ) अुदकांत कोसळली. आनीक ... सा साधली. व्हाळाच्या धडेर अेकूच बोवाळ जालो... लोकांची जाली...

' बायू... बा... यू.... अुदकां.... तं पडलें... ' मिनू व्हावत्या अुदकाच्या आवाजाचेरच व्हावत गेली... मी आयकतनाच ओवळ धावत मोंडणार आयलें... तें साम काचाबुल जालें...

' कितें जाले गो बाऽऽऽय ? ' ओवळान मोठ्यान मारली. ताका समझूपाचे ते देरांच्या तोंडोवल्यान समजलें.

' मंदा... मंदा .. धुये... कितें गो केले तुवेन धुयेऽऽऽ.' काळजां चिरपी ओवळाली किळांच वाडोभर गुंजली

गोया गणपती देवाचें विसर्जन करूंक गेल्लो आपणाल्या सवंसारातल्या आधाराचे विसर्जन केले. आ अस्थी म्हूण मंदाचें म्हडें घेवन वयर सरतालो. ' हेंच ताका जगपाचें आसा आनी हेंच दुःख घवन ताका आसा ' अशवरी तो दिसतालो... ताणे आपल्या दोनी मंदाक वेंगायल्लें...

वयर धडेर ओवळाभोवतणी सगळीच गर्दी जमील्ली ओवळाक काडणी घालतालो तर कोण वातींचेर कपडे ताज्या नाकामुखार धरून धुंगटो दितालो... लक्षा, मि मावशी मोठमोठ्यान अेकामेकांक वेंग मारून मोठमोठ्यान रड... काय खिणांपयली वाजपी ताशे, घुमटां, टाळ, श आवाजाचेय आता विसर्जन जाल्लें...

सगळेंच अकल्पीत घडलेलें.... ओवळान देवाक घाराणे आनी पांच नाल्लांची पंचखाजेची आंगवण बात मनांत भतरभितर जावन रावली... कोणाक कायंच कळ्

सवंसारांतल्या मधुर सपनांत ( मंदाच्या ) आ ताज्या एकसुरी जिणेची वाल वाढत आशिल्ली. ताज्या बापायच्या मायेच्या आलाशिऱ्यान ती वाढत आशिल्ली ताणी सपन रचिल्लें आसूयें की ती वाल आता व्हड जाल वालीक रूखाच्या अेका फांदयेचो आधार आतां दिवंक ज रूखाच्या फांदयेच्या आधारान, वांगडान, ती आनीकय आशिल्ली. सगळ्याक पसवतली आशिल्ली, फुलानी, फळेतली आशिल्ली आनी आपणाल्या फुलांच्या वासान सुखायतली आशिल्ली... पुण...

गरीब मनशाचे हावेस चुकून केन्नातरी आंगवणेत गर्भ करतात, खिणभर तांका खोशी भोगता आनी पर्यून अचकित गर्भपात जाता... तशेंच गोया-ओवळाल्या जाल्लें... तांची अेकसुरी धुव सांका सोडून गेली... तांचें फळादीक येवचें पयलीच... ती वेल फुलच्या पयलींच बावून गेल्ली...

तांचे हे हावेस आतां केन्नाच फळाक येवचे ना वांझच रावतले... ह्या चवथीच्या दिसासावन सदीचें वांझ

# जी-भाओजी

— गोविंद मुद्रस

भाओजी, भाओजी, रानता सोजी,
तोंडाक किर्ते म्हस्का भाजी,
तोंडाक जालें अुणें
भाओजीची बायल xxx

ी ह्या प्राण्याची ओळख आमकां भुरगेपणांत वयर
च्छायेन भरील्लया कवितेन पयलीं जाल्ली. पुण
पळोवपाचो प्रसंग म्हजेर खूब तेंना उपरान आयलो.
णांत एकत्र कुटुंबपद्धती अस्तीत्वांत आसलेल्यान
ात दायजी गोत्रीं, बापोलभाव तिपोलभाव खूब
अेकाच्या चलयेचें लग्न जाल्लें. तिका शिरोडचा
तेंपार इंग्रजींत म्हण्टाले ) दिल्लें. लग्नय थंयच
आनी तें गांव आमच्या गांवच्यांन खूब पयस
आमकां लग्नाक वचपाची संद मेळ्ळी ना. खूब
यचो घोव मावडपणांक म्हूणून आमच्या घरांत
वपाक बरी रात जाल्या जांवक जाय. कित्याक तर
आमीं सगलीं भुरग्यां न्हिदून पडलेलीं. सकाळीं
उठलो आनीं वसऱ्यावयल्यान, बलकांवान येंवक
ायर येतगुच सहज म्हुणुन अेका कुडींत पळयलें.
थंय ती लग्न जाल्ली चली घोवाच्या ( म्हण्जे भावोजीच्या ) खोमसाच्या हाताचे बुतांव लायताली आनीं ते वटेतल्या भशेंन ल्हव आवाजांत अुलयतालें. ती चली बरी गोरी धवी आनी नाजूक आसलेली. आनी तिचो घोव ( म्हण्जे भावोजी ) लांबरुंद काळो किट्ट सामको फातोर कसो आसलेलो. हो मनीस आनी भावोजी हें म्हज्या भुरग्यामनाक कशेंच मानवना जालें. हांव ताका पळयतच उल्लों. इतल्यान त्या चलयेची नदर म्हजेर पडली. तें म्हाका पळोवन लजलें आनी ताणे म्हाका उलो माल्लो. हांव लजेच्या झाड बशेन बावलों आनी थंयच्यान एकूच धांव लायली.

कांय दिसां उपरांत कालोराच्या दिसांनीं वेऱ्यां या दर्यां वेळेच्या गावांत आमी मुदासाक गेलीं. ह्या गावांत रेयज माग ह्या नावांचो एक किल्लो आसा हें वाचक जाणांच. ह्या किल्ल्यार चोरांची बंदखण आसली एक दिस कोणेतरी आमकां हो किल्लो पळोवपाक व्हेलों. थंय आमीं ती बंदखण पळोवपाक गेले. ते बंद खणींन जल्मठेपेची स्यास्त जाल्लो एक चोर आनी खूनी कैदी आसले. ते खिणामेरेन हांवे चोर कसलो आसता तो पळोंवक नासल्लो. वारावांच्या जनेलांतल्यान तोंड घालून पळयलें जाल्यार एक काळो-किट्ट लांबरूद मनीस आमचेकडेन पळोवन हांसतालो.. म्हाका त्या वेळार भावोजिक पळयल्ल्याची याद जाली आनीं त्या चोराच्या जाग्यार म्हाका भावोजी दिसूंक लागलो.

तशें पळोंवक गेल्यार जे भशेन आमचे जीणेंत आदिं ब्रम्हचर्याश्रम, गृहस्थाश्रम, वानप्रस्थाश्रम, अशी Phases आसताल्यो तशो आतांचे जीणेचें. भावोजीपण, जांवयपण, मांवपण अशो Phases भावोजी आनी जांवय ह्यो एकाच नाण्याचो दोन बाजू. जांवय जाल्याबगर भावोजी जांवक येना आनी भावोजी जांल्याबगर जांवय जावक येना. म्हणजे एकाच वेळार एक मनीस भावोजी आनी जांवय आसता. पुण जांवय जाल्लो मनीस भावोजी आसता अशें ना. पुण अशें जरी आसलें तरी भावोजी आनीं जांवय हीं वेगळीं Institutions. तीं कशीं Develop जालीं हाजो इतिहास समजून घेवपासारको आसा. जांवय हो आमच्या संस्कृतायेन सोज्वळ आनी मानादिक मनीस. सामक्या आदल्या काळापासून आमच्यांत अेक अशी म्हण आसा कि धूव दिली आनी पूत जोडलो. पुण जांवय ह्या शब्दाचो खरो अर्थ म्हाका अेका अणभवी मनशान सांगल्लो आनी तो म्हाका सामको पटलो पुण तो फाजील आसलेल्यान हांगा सांगपासारको न्हय. पुण या मनशाच्या बऱ्या चलणूकेक लागून जांवय म्हळचार पुतासारकें शुद्ध आनी पवित्रतायेचें नातें ताचेरुपान दाखयता. भावोजी ह्या शब्दाचो अर्थ म्हाका सांगपी कोण मेळूक ना पुण ताचेवर्वी अेक म्हण फामाद आसा ताचेवयल्यान भावोजी हो अेक लफडेबाज मनीस आसता हाची शिटकावणी मेळटा.

'बायलेपरस मेवणी बरी आनी च्यापरस काफी बरी' ही बकच्छायेन भल्लेली म्हण भावोजीचें समाजातले रूप स्पष्ट करता.

भावोजी हो प्राणी साधारण तीस ते पस्तीस वर्सांफाटीं उदरगतीक आयला जांवक जाय. ताचे आदीं आमच्या समाजान

जांवयाचो शेक चलतालो. जांवय म्हळ्यार केदो मानाचो असो म्हलगडो ! एरवीं मनीस म्हळ्यार ताका कांय किंमत नासूं. तो अेक चड उलोवपी न्हय, अंतःकरणाचो मायेस्त, आनी मावोडेच्या लोकांकडेन वयल्याचारावरी चड संबध दवरपी न्हय असो अेक मनीस. गांवातल्या गावांत लग्न करचें न्हय अशी त्या काळांत एक चाल आसलीं पुण घडये तशें घडलें जाल्यार मागीर गमतीदार अशो घडणूको घडटल्यो. म्हज्या ल्हानपणांत म्हज्या गावांतल्या एकान गांवचेंच चली केलें तो मनीस सामको भिडेस्त आनी चड लज धरपी. आनी सांगपासारकी गजाल म्हणजे ताचें मावोडें सामके रस्त्यारूच. त्या जावयांक बापड्याक गांवाक खंय वतलों जाल्यार पंचाईत जावप. ताणें मागीर थंय पावतूगूच आडवाटेन मावोडेचें घर चुकोवन वचप. त्या काळार जर एक फुडारलेलो कोणूय जांवय मनीस मांयकडेन उलयतास्तना पळयत जाल्यार तो मागीर गावात एक चर्चेचो विशय जावप. हळू हळू काळ बदलपाक लागलो. लोक सुधारपाक लागले. दादले बायलांचे वागणुकेन मेकळेपण येवपाक लागले. आनी ताचो जागो भावोजी घेवपाक लागलो. संस्कृतायेच्या नदरेन पळयत तर जांवय हो आमकां सामको लागी. तर भावोजी हो पुर्तुगेजांच्या म्हळ्यार फिरंगी संस्कृतायेक लागीं जसो क्रिस्तांवा मदीं कुन्याद आसता तसो हो आमचो भावोजी. पुण कुन्यादाइतलो लफडेकार न्ही. खूबशे भारतीयीकरण जाल्लो.

आतां जांवयाचो जागो भावोजीन कसो घेतलो तो पळोवया. लोक पुर्तुगेज आनी इंग्लेज शिकपाक लागले आनी घरादारां सोडून शारांत वचून रावपाक लागले. घरांच्यो मठयो फुटपाक लागल्यो आनी ताची ल्हान ल्हान बिराडां जावपाक लागलीं. ल्हान पिरायेच्या चलयांचीं लग्नां जावचें बंद जावक लागलें आनी बालविधवांचे जागे आंकवार वाडलेल्या चोडयांनी घेवक सुरवात जाली. क्रिस्तांव लोकां-भशेन हिंदूंची कुटुंबां लग्नाबरोबर फुटपाक लागलीं आनी शिविसेच्यी निमतान बायलेक घेवन शारांत बिराड करपाची प्रास हळूहळू पडपाक लागली. आतां लग्न जालें म्हणजे गुरवारपण आनो फाटोपाट बाळंतपण हें आयलेंच. बाळंतपण काडपाक ओस्पीतालांच जालीं. पुण बायल ओस्पीतलांन आसत तो पसून आनी बाळंत जातूकूच घटमूट जायमेरेन तिची आनी तिच्या घोवाची सेवा करपी मनशाची गरज निर्माण जाली. आनी ही गरज भागोवपी हक्काची एकुच मनीस म्हणजे मेवणी. कित्याक तर शांरातल्या बिराडात आवयक आनीं मांयक दोगांकय हाडप शक्य नासलें. नण्डे आनी भावजे भितर केन्ना वरेपणां नासताली म्हण्टकूच अशा प्रसंगाक पावताली फक्त आंकवार मेवणी. तिने मागीर दोगांचीय सेवा इतले बरे भशेन केली कि तांतल्यान मागीर भावोजीचें आनी मेवणेचें एक भावनीक नातें निर्माण जालें आनी तांतल्यान फुडें कितें उद्भवलें हें हांगा सांगपाची गरज ना. घडये हांतल्यानुच 'बायलेपरस मेवणी बरी' ही म्हण वापरांन आयल्या जांवये. हे म्हणीफाटल्यान एक सत्यूय लिपलां. मनीस जातीक आपलेकडें आसा ताचेपरस दुसऱ्याकडली वस्त बरी दिसता. बायलेक तर तो वस्त नानीत आयल्यान ताचे बाबतीन ही म्हण चडूच खरी. अशें म्हन्टात कि कवी खंय आपले बायलेच्या डोळयाचेर केन्नाच कविता बरयना. भावोजीक आपली कित्याक दिसता हाचें कारण घडये हेंच आसूये जांवय आनी हांतलो भेद स्पष्ट करपी एका काणयेची हांगा म्हाका आपल्याक सुंदर बायल आसची ही प्रत्येक मनशाची पूर्वी इच्छा आसता. खूब वर्साफाटीं अेका मनशाक सुंदर दाखयली पुण दिस्त लग्नाक तिची व्हडली भयण जी बरी नासली तिका लग्नाक ताच्यामुकार उबी केली बाबड्यान नकळो जावन तिच्याकडेन लग्न जालो. तो तें न्ही. ताणे बाबड्यान मोन्यानी तिच्याबरोबर संसार केलो. हाची उरफाटी गजाल हालीं घडली. अेका तरणाट्य सुंदर चलयेबरोबर ओळख जाली आनी तिचे तो मोग आनी ताणें तिका मागणी घाली. पुण ते चलयेक व्हड आसली आनी ती दिसूंक बरी नासलेल्यान तिचें लग्न चलयेच्या बापायन सांगलें कि व्हडलेचें लग्न जाल्याबग धाकटेचें लग्न करचो नां. तो तरणाटो धोरणी. ताणें आपूण वाट पळयत रावलों तर फटवतलों. ताणें व्हडले चलयेकडेन लग्न जावपाची तयारी दाखयली आनी बायल आनी सुंदर मेवणी दोनूय पटकायलीं.

आतां भावोजी म्हळ्याबरोबर ताकाय classes पयलीं दोनूच classes आसल्यो पुडवें न्हेसपी भावोजी आ पत्तरकार, भाटकार अशे खेड्यांत रावपी भावोजी आ कालसांव घालपी म्हळ्यार एप्रेगाद भावोजी. मागीर हळू आनीक म्हळ्यार दोतोर भावोजी, इंजीनेर भावोजी, मिनेर मुंबयकार भावोजी अशे प्रकार आयले.

म्हाका मात १) भावोजो अशें कोणें म्हणप आ अेक दीस म्हाका मावोडेच्या चलयेन आपलो बोचुडो उलो माल्लो. हांवे ताका मोठ्ठे दोळे करून पळयलें. ताचे तोणांतुच शिरकून उल्लें. हे भशेन भावोजीचें समाज जरी म्हत्वाचें आसलें तरी गोंया भायर हेर भारतीय ते तितलें मोठें आसत हें कांय वांचूक ना. तरी हालींच क राज्यांत भावोजीन मेळण्याक फटोवन सत्ता आपल्या हाती अशें वाचलां. महाराष्ट्र राज्यांत भावोजीक गोंया इत आशिल्लो हांवें पळोंवक ना.

गोंयांत भावोजीक इतलो मान मेळळो तरी राजकार ताचो निभाव लागलो ना, तशे गोंयचे मेकळूके उपर तडीपार जाले आनी भाटकाराचें भाटकारपण नुस्त्या शिल्लक उल्लें. तांचो जागो पापा, बाबा, भाऊ, ताई हाण लोकांनी ताका काय काळ माथ्यार घेतले आनी माग दवल्ले. भावोजीक दिसले कि आपणे सत्ता गाजोवची आनी ताईच्या पालवाक धरून राजकारणांत घुसपाची यत्न करू पुण गोंयच्या लोकांक ताचें हें काम बिलकूल मानलें ना भावोजीच्या रागान फाटलो फुडलो विचार करीनास चलणारी गोंयची राजवट भावोजीसकट बुडोवन सोडली.

बशीर ब्रीझ हॉटेलान
बशिल्लो.

बेर्त, फाल्या आबेर्त ' ना- आबेर्त, आज आबेर्त,– पांच ! एकूच उल्ल्या पात्रांव ' येक सोर्त हातान आनी खान घेवन फिरपी बशीर पांय वयर काडून दिमयेर पावलां दवरून, वण्टीक च्या तेंक्याचो दावे कुशीक दावो हात कपलार आनी घेवन दोळे धापून कसल्या तो दंग जाल्लो.

समाधींतल्यान ताका जागो र घेवची आनी किते घडलां शें मास्तराक दिसलें. पुण घेवन सानुभूतिचीं सुकीं दाखोवपा परस चड किते जांवक शकतालें अशें आनी इतल्यान मास्तराच्या ची गर्दी जाली. तो त्या वत उल्लो.

णो घेतलें कपाळ ! दिमता गुळीत उतरां आनी दोळ्यां- बी मनाआड जाता. तेन्ना आपूण आपली घरकान्न, आपलो संसार, सुखां–चैनी, लागपी दुडू ! तो दुडू कसो रचे आपल्या मागीर कामाक ल्या परस चड जोडटात· रटायम घेतात तसो दुडू च्या मार्गान मेळटलो हींच तरनाटकायेच्या धुसफुशा दवरिल्ल्या बशीरा सारक्या ल्याक याद कित्याक जायना? कुलांतल्या बेबकेची जीण

य बशीर बशिल्लो तो किते गोनोळ चलतालो देखून, क अेक कांट्याळें. जितलो तितलो दुसरेवटेन घुस्पता. तोयबीं विचारांच्या भोंवऱ्यांत उरिल्लो जांवये.

# बशीर

– रमेश घ. लाड

बशीराक तसो पळोवन मास्तराक दिसलें-तो त्या समाधेतल्यान सूख भोगता काय दु:ख ! त्या स्थितीन आसतना ताज्या समाधाना आड हांवे कित्याक वचचे ? तो म्हाका अधिकार ना. एका वेळार आशिल्लो तो म्हजो विद्यार्थी पुण आयज खंय आसा ? आनी आशिल्लो जाल्यार लेगीत फुडल्या काळांत घडटालें तशें आपूण आयच्या काळांत ताका धाक दाखोवंक शकतां ? आनी ताजे विशीं पळेल्यार हांवूंच गुन्यावकारी आसां काय ? अशें तो नदरेक पडटा तेन्ना तेन्ना म्हाका दिसूंक लागता. हांवेंच फुलपी एक कळी तोडून किचमून उडयली काय ? कांयच अधिकार नासतना ! रागान म्हज्या मनाचेर जैत मेळयलें आनी ताका लागून एक जीवीत लासून करपावन उडोवपी हांवूंच न्हीं मूं तो ? हय ! हांवूंच तो. स्वत:क गुरु म्हणून घेतां स्वत:क फटयतां आनी दुसऱ्यांकुयबी ! आनी तरनाटचा जीवांचें जीवीत लासयतां.

त्या चुरके लावपी चितनांतल्यान मुक्त जावपाची वाट मास्तराक मेळनाशिल्ली. तो ती वाट सोदतालो. ताज्या मनात येतालें बशीराक आपोवचो, लागीं करचो, ताका समजावन परतून शाळेत वच म्हण सांगचें, शिकपाक लावचो आनी केल्या गुन्यावांतल्यान मुक्तताय मेळोवची. आयज ती संद आयल्या अशें ताका दिसलें आनी थंडसाणेन बशीरा मुखार वचून तो उबो रावलो. चार फावटी चितलें. हेवटेन–तेवटेन पळेलें आनी चार–चौगांमुखार अपमानाचो कोडू घोंट गिळपाक पडचोना हाजी जतनाय घेतली आनी ताका उलो मारतलो इतल्यान ताजो ताकाच आनी एक प्रस्न पडलो.

हांवें इतल्या भितर आनी एक गुन्याव केलो. ताज्या आदल्या सभावाच्या उगडासान बशीराच्या आताच्या सभावाचेर लेगीत हांवें दुबाव घेवप कित्याक ? तो म्हजो अपमान करीत अशें म्हाका कित्याक दिसचें ? म्हजें हें सुपुल्लें मन इल्लेंच व्हड जावचें ना काय किते ? गिन्यानाचें दान करता अशे समजुपी म्हजेसारक्या मनशाच्या मनाक इतलीय तांक ना ? ना हावें अशें करूंक फावना. आयज आइल्ली ही संद वगडावन हांव स्वताक चड कष्टी करून घेतलों.

मास्तरान चितनांच्या कांटयाळच्या आडचातल्यान भायर उडी माल्ली. आनी बशीरासरीं वचून ताका एके फावटीन आयकूंक ये सारको उलो माल्लो.

' बशीर !'

कांयच जाप करीनासतना बशीर आपल्यालें आसन बदलून पांय सकल दवरून सदांभशेन बांकार बसलो आनी वयर पळेलें· तो वळखलो. मास्तराक त्या जाग्यार बसपाक जाय आस्तलें अशें समजून तो उठून वचपाक तयार जालो.

' बस तूं बशीर, म्हाका बसपाचें ना !'

' ना, ना ! म्हाकाय बसपाचें ना !' अशें म्हणून तो दोन पावलां मुखार वचून हातपांय लांब करून, बोलसांतलीं सॉर्तींची पाना काडून, एक सॉर्त हातान घेवन.

' फाल्यां आबेर्त, फाल्यां आबेर्त, पांच-लाख, पांचलाख ' अशें म्हणत फुडें सल्लो.

मास्तर बशिल्लो उठलो. ताका किते जायतें पळोवपाक आइल्लो वेटर ताज्या तोणाकडें पळोवन ' किते हाडूं पात्रांव ?' म्हण्टा तें आयकनास्तनाच तो उठून चलूंक लागलो, बशीरा फाटल्यान. रस्त्यार पावल पडलें तेन्नाच मास्तराच्या कानार हॉटेल

मालकाचो धेंगसो पडलो.

'खंय आसलेलो रे तूं ? गिरायकाक पयलीं पळोवपाक जायना ?' ताणे वेटराचेर रागोवणी काडिल्ली.

नकळटनाच मास्तरान फाटीं वळून पळेलें आनी तो भितल्ले भितर चुरचुल्लो. पुण रोखडीच ताणे बशीराली फाट धरिल्ली.

'बशीर, आयक सांगतां ! दोनुच मिनटां ! तुजें गिरायक हांव पेडुर करीना.'

बशीर रावलो.

'बशीर तूं सॉर्तीच विकता न्हय ?'

'ह्य. आनी कितेंय काम मेळळ्यार बीन करतां.'

'पुण तूं इल्लें शिकना कित्याक ? नायट स्कूलाक बी वचून ?'

'शिकतालों तेन्ना इस्कोलांतलो भायर घायलो तुमी. आतां आनी शिकपाक जाता म्हाज्यान ?'

मास्तराक गुन्यावाचो कोडू घोंट गिळचोच पडलो. 'नायट स्कूलाक वचना कित्याक तूं ?'

'तेंका आनी त्रास कित्याक ? तेंच्यानी लिविंग सर्टीफिकेट मागल्यार खंयची दिवपाची ?

'कित्याक ? ती तेन्नाची सर्टीफिकेट ना तर तुजेंकडें ?'

'आसली ती पिनून माल्ली भायर तिकाच लागून म्हाका दुसऱ्या इस्कोलान घेयना जाले. हांव वायट भुरगो म्हण दिल्लें न्हूं तुमी तेजेर !'

'अशें ?'

'तुका खबर ना म्हण आहा ? आनी आतां कितलीं वर्सां जालीं जाणा सर ?'

'तीन–चार जालीं आसतलीं !'

'तीन न्हूं ! पांच जालीं सारकीं ! आतां आनी आनी उलोवन फायदो आहा ? आतां आनी शिकोप म्हाजे तकलेन वयता ?'

'वतलें रे ! तितलो डल नासलो तूं शिकपाक तेन्ना !'

'आतां अशें म्हणोन कितें फायदो ? येंदोसो गुन्याव जालो जाल्यार तुमका व्हडलो राग येयलो. हेडमास्तरान बापायक हाडपाक लायलो.'

'हयरे ! तूं बापायक घेवन आयल्लो जाल्यार तें व्हडल्यार पडपाचें न्हीं ?'

'बापायक कामाफुडें टायम मेळना जालो. आनी तसो टायम मेळपाक तो कितें ऑफिसान सिर्वीस करपी मनीस न्हू. तो इस्कोलान पावोना जालो आनी हांव क्लासीक पावना जालों. मागीर अेक दीस येयलों तेन्ना तुमी म्हज्या हातीन सर्टीफिकेट दिली. जालें काबार.'

'तुगेल्या सदांच कितेंयना कितेंय कंप्लेंनी आसताल्योच न्हीं रे ! आनी त्या दिसा तर रस्त्यान वचपी अेक बायल फातोर माल्लो म्हूण ऑफिसान पावली. तूं तेन्ना सारकोच सापडलो.'

'हें मात सारकें न्हू सर. फातोर माल्लेलो आनी कोणे आनी येयलें म्हाजेर हांव तेंचे-बराबर आसलों म्हणोन.'

'तशेंच जाता न्हीं तें. तुजें नाव जाल्लें तुवें तेन्ना ना म्हळें कोणाक खरें दिसपाचें ? आतां जालें तें चितूंन फायदो ना बशीर तूं आतां शिकपाक फुडें सर. आठवी पुण पास कर नायट स्कूलाक बी वचून व्हडले व्हडले शिकतात मरे. तुका शिकपाक कितें जालां?'

'जाणा सर हांव सवी शिकतालों तेन्ना. तसोच मुकार शिकलेलों जाल्यार एस्. एस. सी. जावपाचों इतल्यान. आनी हांव म्हण्टां त्या धाकल्या भुरग्यानी मस्ती करपा न्हूं जाल्यार आनी कोणेन जाण्टचानी करपाची ? आनी सगलेच भुरगे मस्ती खंय करतात. आमचे भाशेन थोडे आहा तेच करतात. म्हाका कितेंय पनिशमेंट दिल्लो जाल्यार बरें जावपाचें ! इतलें करपा न्हूं तुमी !'

मास्तराची जाप बंद जाल्ली. तो कितें उलोवचें तें चिततालो.

'हयरे... पुण... !'

'आठवी बीन जाल्लों जाल्यार हांव आय् टी, आय्. ब.न कितेंय करपाचो. तेंयबी जायना.'

बशीरानूच मास्तराक उलोवपाक वाट करून दिली.

'त्याच खातीर म्हण्टां हांव. तूं नायट स्कूलाक वच आनी आठवी पुण शीक.'

'आतां जावपा ना सर तें म्हाज्यान. आसूं तें म्हाका शिकपाचेच ना. म्हाज्या नशीबान आहा तें जावपाचें. प्रायवेट मेकानीक ना जाल्यार ड्रायवर देकून जावपा जाता म्हाज्यान. सोर्तीचेर कांय जाले
आनी कितेंय करपी. ड्रायवर
जाल्यार भायर वचपाक मेळ
वचपी. कांयच शिकोंक नास
जोडटात ! नशीब आसल्यार
गवरमेंट सिर्वीस मेण्णा जायत.
बरे सर चड वगत जालो वयतां

बशीर गेलो. पुण तो मास्तरा
भुरग्यांची सायकॉलॉजी आनी
शिकोवन गेलो. मास्तर
चितपाक पडल्लो. 'भुरग्यानी म
जाल्यार आनी कोणं जान्टयानी
असल्या भुरग्यांक वाट दाखो
आपणा सारके तांची वाट आड
कितें ? आनी बशीर आतां कित
आपणालो अपमान ताणे केलो
म्हणून उलदलो. आपणे हाजे
हात दिव येतालो ताका यादजा

बशीराक भायर घाल्लो
कांय दिसानी तो सोडती वि
'एकूच उल्ल्या, एकूच उल्ल्या'
एक सॉर्त घेवन आपले मुखा
कितेंसोच तोणार भाव चडून
करून फाटीं सल्लो आनी तरतर
तींच उतरां म्हणत गेलो. खि
कितें घडूंकूच ना अशें करून.

तेन्नाच मास्तराक दिशिल्लें
उलो मारचो आनी ताजी स
ताज्या हातांतल्यान एक सॉ
लागली. पुण ताका धीर जालो
परस ताजें सुपुल्लें मन व्हड
म्हणप चड बरें मागीर जायते
आनी मास्तराची नदरेक नदर
इल्लोय अपमान सोसपाची तया
मास्तर ! ताणे वचपी खिण
जिखीनास्तनाच तांकां वचपाक
चूक सुदरावपाची संद सोडली
जीवीत पेडुर केलें. आतां.
चुरके सोशीत जगता. पुण
समाधान दिसता. बशीरा
भुरग्यांचें मनोविज्ञान शिकले
भुरगेपण समजुपाचो मंत्र !

# ांतरं.

— विठ्ठल का. सा. आवर्दियकार

ी दोतोर सांगता म्हुणून तरी आमी पुरशाक पीशां
रती करूया ’ अशें काशीनाथबाप्पान म्हळें मात
भरून आयले. तीणें म्हळें ‘ हांव जल्मदेती आवय
ची सारखी बरी सेवा करूंक शकना थंय पिशां
नशांच्या काळजात ताच्या खातीर कितें दया
? पुरशाक थंय भरती करप म्हळ्यार लंगड्या
ान्याक व्हरून बांधिल्यावरीच. ’

ते रडप हुणकेवप आनी तीच्या मनांतले हे
आतां तीका कोणेय तें सांगपाचेच सोडलां. गेल्ली
ह्या पिशाक पोसता ताची लाड अपूरबाय सेवा
न लोक तीचे मोठे पण गायतात, की असल्या
क फकत प्रेमाबायच पोसूंक शकता. दुसऱ्या
जाल्यार पोर येन्ना धर अुपासी–तपासी मरून
जीवो उरील्लोच जाल्यार हाडांचो पांदरो कसो.

बाप्पा आनी प्रेमाबाय ह्या मध्यम वर्गीय दंपत्याक
ुरगीं. व्हडलें पुजा. लग्न करून दिवचले दिलां.
ड दोन वर्सां दुसरो पुरसो. पुरषोमत्त. पुजाफाटल्यान
करून शेकी आंगोणेन जाली. आसत पिराय
ाचे वांगडचे पांचवी सव्वी शिकतात.

पिसो जाल्लो जाल्यार दुसरी भास आसली. पुण
ां जल्मजात न्हंय. पेलेवर्समेरेन बरो आसलो पुरसो.
ासलो. अेक दीस मदले सुटयेंत पुरसो हेरा भुरग्यां-
गसार आशिल्ल्या फोणकुलेच्या काजूमुळानी बीयो
लो. फोणकुलेचे काजूमळ साजू गांवकाराले येरवींच
न भियेतात. मसणवाट ती आदल्यांची. अजून थंय
र भयांन कांटो फुलता. पुरसो आनी ताजे हेर वांगडी.
च्यान वयर चडूंक जमना जाले. माडांचे सुकिल्ले
ांनी खाला रावनच तेयळे. तांची नदर शेजारच्या
पणसार कावळो पोणसूल कोंचायतालो. ताणी पळयले.
नी जाता न्हजो करून खापा खाकोळांत धेमर घालीत

वयर चडलोच. पोट लेगीत सोलिल्लें बाबड्याचें पूण ते अमोर पीकें पोणसूल देटाकडेन कोंचायतना जो पोराचो तोल सुटलो तो बद्द भूंय पडलो. अितलेंच निमित्त पुरशाक तेन्ना जी धुवळ येवन शुद्ध गेल्ली ती होवेळमेरेन तो मनशांक नाशिल्लो. पडला तेच दीसा सकाळी भाटांतले नाल्ल, पणस, काजुबीयो चोरतात म्हुणून साजू गांवकारान पोणकुले देंवचाराक साकडे घातिल्लें. खंय खबर कोणे तरी उसरां सांगिल्ली. लाख उपाय केले दोरे–बिबुत, घाडी–बंटीण, मान–सांगणे सगलें सगलें करून पळयळे. पुण पुरसो मनशांत आयलोच ना.

पोराचे कलसांव जाग्यार नासताले. हातरूण पांघरुणांत हळशीक करप. हें अशें फकत प्रेमाबायच काडूंक शकताली. तिगेलें पुराय आवयपण पुरशाचोच अभिशेक करीत आसतालें. जणू काय आपली धूव पुजाक ती विसल्लेल्याभाशेन. केन्ना सुटये दिसानी नातरां घरा आयल्यार पुरशामुखार तिका तांचेकडेन बागडपाक, तांचे लाड अपूरबाय करपाक फाव नाशिल्ले. बायलेच्या अशा ह्या वेव्हाराक लागून काशिनाथ बाप्पा तर बेजारिल्लोच. पुण अेकली अेकसुरो धूव लेगीत प्रेमाबायचेर बेजरिल्ली. फरक अितलोच कीं काशिनाथबाप्पा सगळें मनां मनां गिळटालो आनी घुस्मट्टालो. जाल्यार धूव कुळारा आयिल्ले वक्तार घडये घडयेक आवयचेर बेजारताली, चांवार–येंवार जाताली. मनां लागसारखें उलयतालें. खरें म्हळ्यार आपल्या अेकल्या अेकसुऱ्या भावाची ही अवतीकाय पळवन पुजाक मनां मनां रडूंक येतालें. पुण उपाय करूंक ताका हॉस्पीटलांत म्हळ्यार आवय प्रेमाबाय आयक नाशिल्ली. जांवयान लेगीत अेक दोन फावट सांगून पळयिल्ले.

रागानच अेक दीस पुजानच म्हणिल्ले. ‘ पुरशाचे अितले लाड लाड अपूरबाय करून तुवेंच ताका चड पिसो केला. संवय लायल्यार जनावरांलेगीत सारखी वागतात. बारा–तेरा वर्सांच्या भुरग्याक संवय लायल्यार अितलेंच कळचे ना व्हय ? पुरसो आपले अस्तीत्व विसल्ला आसत पूण तो कुडडो, भेरो; मोनो ना न्हंय. अेक फावट चुक केल्यार अेक दोन कानसुलार फुलवचीं. दुसरे फावट घट्ट याद उरतली. अशें केल्ल्यान निदान कपड्यांचे तरी धंगण येतलें. पुजा अितलें उलयल्लें खरें पूण दुसरो उपाय नासलो.

धुवेच्या उलवण्यामुकार किदेंय सांगचे पयलींच प्रेमाबायचे दोळे रडकुरे जाल्ले. तरी पुजा उलयतालें. तूं समजूशी पुताची अशें तरेन अर्थ अपूरबाय करून तो सुधारतलो सुखी जातलो म्हण याद दवर तूंच पुरशाची खरी दुस्मान आसा. आतां तुमी आससर बरें, मागीर कोण काडटलो ताजें हे सगळें ? लटकें न्हंय तें सवत आवयच पोरांचें कान तोपूंक शकता. पिशा हॉस्पीटलात तो तसो सामको बरो जालो ना तरी कुडी कपडयांची तरी रीत, रागणूकेचे तरी सान भाग दवरूंक शिकतलो.

पुण पिशां हॉस्पीटल म्हळचार मरण सांपळो अशें प्रेमाबायचे मत्त जाल्ले. पुजाक किदें ताजें ? उलट पुरशाचे पिशां हॉस्पीटलांत बायट जाल्यार पुजा आनी सगळो घराबोच ह्या संकश्ट विवंचनेतल्यान सुटट्ली न्हंय ? पूण हांव ताची रक्तानात्या आवय. अशी पुरशाक मरणा सापळचांत कशी धुकलूं ? ताजें किदें जाता तें म्हजे दोळचां-सामकार जांव देखून घोवान धुवेन, जांवय, शेजाऱ्यानी सांगून लेगीत पुरशाक हॉस्पीटलांत घालूंक तयार नाशिली.

काशिनाथबाप्पाक प्रेमाबायची भावना कळील्ली. तरी अणभवी दोतोरांचें अशें मत्त जाल्लें कीं पुरशालें दुयेंस अनैसर्गिक ताका लागून खंयच प्रशिक्षित नर्स वा दोतोराच्या देखरेखी खाला उरील्ल्यान कदाचित ताचें पिशेपण पैस जांव येंता. निदान ताची वर्तणूक–वागणूक तरी सुधारतली अशी आशा आशिल्ली. आनी कितलेंय केलें म्हणून घराकडेंन ह्यो सुविधा मेळवप काशिनाथ-बाप्पाच्या बोलसाक परवडपाचे नाशिल्लें.

प्रेमाबाय व्हडा श्रद्धेन पुरशाचे काडटाली, को[illegible] वखद पाणी सांगल्यार ताका मेळून तें वखद फेंदा क[illegible] करताली. तीच्या ह्या भावार्थी मनाचो फायदो घेवन जाणानी तीका फटयल्लेंय बीन केन्ना केन्ना तीका कोणय[illegible] उपायाचेर विश्वास बसनाशिल्लो. तरी लेगीत ती तो[illegible] अेकेच भाशेन, अेकेच श्रद्धेन की हजार उपायंतलो [illegible] पुरशाक गुणाक पडचो पुरसो म्हजो पुत, ह्या घरा दिवट[illegible] आधार, घराण्याचो वारस बरो जांवचो कोणे तरी अेका[illegible] वाल्यान सांगिल्लें तीका की येता ते फाल्गुन म्हयन्या[illegible] ग्रहदशा बदलतली तो सुधारतलो. बरो जातलो आनी प्रेमाबायक केन्नाचो फाल्गुन म्हयनो येंव अशें जाल्लें. ती फाल्गुणांत फाटले फाटी मारून पुरसो पयलींवरी सा[illegible] येतलो मागीर ताचे उरील्लें शिकप पुराय करूंक लायत[illegible] की ताचे पुजाच्या लग्नापरसय गडगडान लग्न करतली रीणाचे दोंगर जाल्यारय बेहत्तर.

मर्दी केन्नाय पुरसो बरेभशेन वागल्यार तीजी अश[illegible] केन्ना बरेभशेन पुरसो उलयलो, बागडलो, खेळ्ळो [illegible] खोश्शेन घादोसताली. सगल्यांक सांगत सुट्टाली. पूण आ[illegible] पळयतल्यांक खरेपण येनाशिल्लें. कारण खंयचे खिणाक [illegible] कलसांव माथ्यार घेवन शबै शबै घालत म्हण विश्वास[illegible] अशें करून फाल्गुण येवन गेलो पूण पुरसो सुधाल्लो [illegible] परतून निरशेली.

म्हण्टा म्हणसर कोणेतरी सांगलें मिराबागच्या [illegible] चेडूं अशेंच शाळेंक वतना मसणवाऱ्याक सापडलेलें आनी [illegible] करतालें. ताका ताणी ज्या ज्या हॉस्पीटलांत घालें. तीन[illegible] बरें जावन आयलें घरा हाडलां ते दीस हेरा वांगडा ताका[illegible] प्रेमाबाय सगल्या मुकार आशिल्ली.

पांगळचाले चेडूं बरें जालां ते पळवन पुरशाकय ह[illegible] घालचो अशें परतून अेक फावट जायते लोकानी प्रेमाबाय[illegible] 'आगे अेक फावट तरी पुरशाक हॉस्पीटलांत घालून[illegible] तरी' तो खरोच बरो जावन येतलो. आनी अितले ते[illegible] फावट आयज प्रेमाबाय ताका हॉस्पीटलांत धाडूंक तयार[illegible] परतून अेक फावट मिराबागांवचून पांगळचाल्या चेड[illegible] आयली. थंयचे दोतोर नर्सी कशो ते समजून घेतलें. [illegible] समाधान जाले, की दोतोर नर्सी थंयं दुयेंतकाराची ब[illegible] घेतात.

फाल्यां पुरशाक हॉस्पीटलांक भरती करपाचे [illegible] रातभर प्रेमाबायच्या दोळयाक दोळो लागलो ना, न्हीद [illegible] ती सोपनेतालीं, तीका कोण तरी म्हण्टालो, 'प्रेमाबाय [illegible] तुज्यान ताची सेवा करूं नजो. देखून ताका तूं हॉस्पीटल[illegible] तयार जाल्या. पूण याद दवर थंयच्यान पूरसो परतो [illegible] पिशां हॉस्पीटल म्हळचार मरण सांपळो.' प्रेमाबाय [illegible]

...। हांव जीवी आसासर ताची सेवा करीन... पूण
...ग आयली तेन्ना तीका दिसलें बेठेच आपणें हांका

...पुरशाक वेंगात घेवन पणजे-वचूंक भायर सरिल्ले ...न शेजारसामारच्या सगळचांच्या दोळचांत दुका ...बाप्पाय हुणकेलो.

...शिल्लेकडेन पुरशान अेक दोन फावट अवचिनपणा ...लिल्या पॅसेंजरांचे घडीभर मनरंजन जाल्ले. कोणे ... कित्याक हॉस्पीटलांत घालतात मारूंक ? गेल्या ...गा गांवच्या अेका भुरग्याक हॉस्पीटलांत घाल्लो. ...ो ना, उलट ताची बलायकी इबाडली. ह्या पोराक ...दें ?

...राची ही उतरां आयकून प्रेमाबायचें काळजार ...ो जालो. दोळचांदुकां भल्लीं. पूण सगळें सोसून ...शा निश्चेवान पुरशाक घेवन प्रेमाबाय आनी ...हॉस्पीटलांत भितर सल्लीं.

...ळपाचो तो वेळ आसलो. हॉस्पीटलाच्या जार्दीनांत ... तांका मेळपाक जमिल्ले. कोण घरच्यान हाडिल्ले ...ळा खातालो कोण पिशी बायल आपल्या घोवाकडेन ...ेताली. अेक पिशी बायल घोवाक वेंगोवन बशिल्ली, ... दाखवन म्हण्टाली, ' हीं भुतां म्हाका तापयतात. ...र्गी सोसिकपणान आनी हासून खेळून तांच्यात ...वन प्रेमाबाय घडीभर सुखावली.

...स्पीटलांत अॅडमीट जालेबरोबर प्रेमाबायन हेड ... बाय ! पुरसो सामको पिसो. कोणेय म्हन्यान ...बगर खावचोना...... अितले सांगूक लेगीत ...लें ना. तिका रडूंक आयलें. म्हन्यातल्या नर्सीन ...िंता करु नाका. आयच्यान तो आमचो भुरगो. ...तेविरयत. अशें म्हणून नर्सीन पुरशाक म्हन्यांत ओडलो पुरसो आकडेलो. तसो तीणें ताका बळचां उखलून ती व्हार्डांत नाच जाली. पुरशान निमणी एकच हुयेल माल्ली. आये ऽऽऽ...! जड अंतसकरणान प्रेमाबाय आनी काशिनाथबाप्पा घरा आयलीं.

न्हिदील्लेकडेन काशिनाथबाप्पाक दिसलें. ' म्हजो पुत बरो जाल्यार पुरो. हांव मागीर ताका खुब शिकयतलो. व्हड करतलो. दिसले ताका उठचे आनी दुसरे कुडींत न्हिदील्ले प्रेमाबायक उठवन हें सांगचें, पुण नाका... सकाळींच सांगचें आता ती कासाद जावन, न्हिद लागल्या आसतली. आनी येवजीतां येवजीतां तोय न्हिदलो.

हेवटेन प्रेमाबायक खंय न्हिद पडल्या. दोळचांमुकार फकत पुरसो, पुरसो हे वेळार किदें करता काय ? पुरशान हातूणांक हळशीक केल्यार कोणय काडटले मूं ताजें तें ? काय पुरसो तातूंकच लोळटलो ? तो करता तीं हळशीकपणा पळवन त्यो नर्सी मारीनात मूं ताका ? पुरशाक तर म्हज्या कुशीक न्हिदपाची संवय थंय ताका न्हिद येत मूं ? हे थंडे दिसानी ताका पांघरूंक दोन चादरां तरी घालीत मूं ? काय शियान कुडकुडटा काय म्हजो पुरसो. तीका दिसलें म्हाका पुरशा म्हन्यांत रावंक मेळील्लें जाल्यार ?

रातभर प्रेमाबाय हेंच चितीत आशिल्ली. तीका अेक सेकंद न्हिद लागली ना.

फांत्या पारार प्रेमाबायचे अेकच हुयेलीन सगळो वाडो जागयलो. 'आरे कोणय धांवात रे पाययानो, म्हजे पुरशाक त्या राणलान माल्लो पळय...!'

काशिनाथबाप्पा हुयेलीन हातरुणावेलो उसळ्ळोच. तमाम वाडो तांगेर पुंजा जालो. जाणे जाणे आयकलें तो तो धांवलो. आनी जाणी जाणी पळयलें तो तो हळहयळो. रोकडीच प्रेमाबायक पणजे हॉस्पीटलांत पावयली. सगळ्यांनी म्हळें, 'पळय पुताचे घ्रास्तीन आवय लेगीत पिशी जाली. तांका कोण सांगतलो पुताचे मायेन पुरशाची सेवा करूंक प्रेमाबायन पिशें पांघुल्लां म्हण ?



# वक्ल फुटलें

— गजानन जो

'हॅलो, पी. ए. टू सी एम. हिअर.'

'हॅलो, हांव तांची घरकान्न उलयतां.'

'कोण मिसेस सी एम ? गुडमॉर्निंग मॅडम ?'

'गुड मॉर्निंग ? रातचीं अकरा वरां जाल्यांत'

'सॉरी, मात्सो दोळो लागिल्लो. किते शेवा करूं ?'

'व्हडलें कांय ना, हांचे वक्ल हांगा दिसना. थंय ऑफिसांत उल्लां काय पळयात मात्शें. सकाळीं उठच्याफुडें तें तांका लागता ना जाल्यार...

'ना जाल्यार ? च्ये च्ये. तशें कशें तर ? वक्ल हांव सोदताच. पुण म्हाका सांगात, वक्ल थंय ना ? वतना ताणी तें व्हेलाशें दिसता. नाच जाल्यार मागीर हाव वचून पळयतां ऑफिसांत. पुण तुमी मात्शें सारखें पळयात... केन्ना केन्ना नाकारूच आसता तें म्हणून म्हटलें हां !'

'कितें ? कितें म्हटलें ?'

'तशें म्हय. ते केन्ना केन्ना विसरतात म्हणून म्हटलें इतलेंच!'

'स्टॉप इट ! म्हाका चड उलोवपाचें ना. केन्ना न्हय ती आयज तांका न्हीद लागल्या ते उठच्या आदीं वक्ल हाडात. तें मेळळें ना जाल्यार दुसरें हाडात. म्हाका आरतें परतें कांयच सांगू नाकात.

'ओके मॅडम !'

X X X

'हॅलो, गोपी रे ?'

'हय गोपी. कोण ह्या मध्यान रातचो तडमडलो ?'

'हांव रायकार. तुवें कितें म्हटलें आता ?

'ना, काय ना, सॉरी सर.'

'तुज्या सॉरीक लाय बुट्टी ! आदीं वक्ल दी !'

'कितें ?'

'सी. अेमाले वक्ल ऑफिसांत उल्लांशें दिसता.'

'मागीर ?'

'मागीर म्हय, आतांच वचून सोदून हाड ? उर्जेंत. जाय जाल्यार म्हजी गाडी व्हर.'

'नाका नाका ! फाटले फावटी भुजलां तितलें पुरो. परतें तशेंच जाल्यार रातचें पेत्रोल तरी खंय मेळटलें ?'

'कितें ? कशें जाल्यार म्हण्टा तूं ?'

'कांय ना हांव स्कूटरीन वतां. पुण कोण वांगडा ... बरें म्हय ? रातची वेळ !'

'वांगडा कित्याक ? इतलो भिता तूं ?'

'तसो हांव भिना, पुण थंय... थंय भुतां दिसतात ...'

'भुतां तीं आनीक कोणाचीं ?'

'कोणाक खबर आसतले कोणूय अतृप्तआत्मे बी.'

'आत्मे बित्मे कुशीक उडय. म्हाका वक्ल जाय उर्जेंत'

'ओ. के. सर.'

X X X

'हॅलो, पी. ए. स्पिकींग'

'सर वक्ल थंय ना ! खंयच ना. पुण जमनीर ... कंवच्यो आसात !

'कंवच्यो आसात मरे ? कसल्यो तरी फितें आनी ... त्यो. साधी गजाल ही ?'

'तुमकां कशें कळळें त्यो वक्लाच्योच कंवच्यो म्हणून ...

'वक्ल ना म्हणून, ज्या अर्थी वक्ल ना, आनी ... कंवच्यो आसात त्या अर्थी ?'

'त्या अर्थी... आयलें लक्षांत सर... त्या अर्थी त्या ... ह्यो कंवच्यो वक्लाच्योच फित्यावयल्यान ?'

'तुज्या लक्षांत येता म्हणसर उजवाडलें... तें आसू... तूं ऑप्टिशियन सोद... C. M. चो ऑप्टिशियन को... आसा ?

'सिलीमखान सो दिसता... पुण कोणूय आयल्यार ... न्हय ?'

'फुडें उलयलो ? सिलीमखानूच हाड !'

'पुण सर तो म्हापशां रावता !'

'म्हापशां म्हणजे कितें मुंबैरे ?'

'नासर... लागींच तें... म्हापशां...

'उबारून हाड ताका आनी उर्जेंत वक्ल करपाक ला...

'हय सायबा !'

X X X

दारावयली बेल वाजता. दोळे चोळीत सिलीमखानाची ... येता आनी दार उगडटा.

ाज तुजी चलाखी चलची ना हां ! तीन बेगो दी
ाल कोटा मेळटा. भायर विकपाची सवंय जाल्या

ी मारी न्हय, हांव तारी ! गोपी तारी ! पणजे
ींसांत आसतां. सिलीमखानबाब नात ?
ताका उठपाक आजून वरभर तरी आसा.'
तां हांव ! '
रां कितलीं जालींतर ? मात्सो काळोखसो दिसता

दोन ! '
तचीं दोनवरां ! आवयसक ऽऽ(अशें म्हणून ती
मारून घेता गोपीची तफली मात्शी धाडावता
शो वेळ तो उबो रावता आनी धीर करून परती
खान दार उघडटा. तोंडात गाळी. )
ऽऽऽ चो ? मध्यानरातचो कित्याक? मरपाक?
ानी बॅल केन्ना पळोंवक नारे ?
ण ही स्पेशल बॅल आसा' C. M. चें काम आसा.
'
तांका ज्या ज्या उर्जेत वक्ल करून दिवपाक जाय
ुमका आपयल्यात. '
फाल्यां हांव ना, परां फावट आसा म्हजी '
आतां चलात तशी बॉर्द आसा. C. M चें

रातचो कोण येतलो रे '
ा वयल्यान '
M चो नंबर कितें ? '

हो गाडयेचो नंबरसो दिसता म्हाका. वक्लाचो
वाय वक्ल कशें करूं ?
यकार सांगतलो आदीं पणजे या. '
पाडपडू कर्माक ! कितें येपार रे ! '

x x

ु. पी. स्पीकिंग.
ांव इन्स्पेक्टर कदम उलयतां.'
किते लागला तपास ?'
ामी सात जाणांक धल्ल्यात.
?'
ना. पुण तांच्या भितल्ल्यान कोणेतरी येकल्यान
णून हो कट केलासो दिसता. '
?'
ाचो !'
ां म्हणटा ?'

' हयतर ! सातांतले पांचजाण वदल्यात, तांतूतलो खरो चोर कोण तें समजल्या उपरांत फोन करतां परतो. '

' आनी खरो चोर नासल्यार ?'

' आसतलोच पांचजाण चोल्लां म्हण्टात न्हय ! '

' हें पळय मि. कदम ! '

' कितें सर ?'

' सांबाळून रावात. अेक दीस कोणतरी तुमच्या कस्टडींत गावत आनी मागीर आमी सगले त्रासांत पट्टले.

x x x

पी. ए. रायकार, गोपीतारी सिलीमखान अशे सगले C. M. च्या बंगल्यार पावले. तांच्या आदींच थंय दोगजण वक्लांकरपी हाजीर जाल्यात. आनिक साताठ ऑफिसर लोक थंय ताकतिकेन बोंवाळटात.

' हॅलो मॅडम, हाव रायकार उलयतां '

' वक्ल मेळळें ?'

' ना मेळूंक ना, पुण फुटलें ही खबर कळळी. '

' कशी कळळी ? कोणे फोडले वक्ल ? '

' कोंणे फोडले आनी कशें फोडलें ही चौकशी करपाखातीर येक इन्क्वायरी कमिशन नेमपाचें थरता. फाल्यांच करून घेतां सगलें तिगाजाणांचे कमिशन आसतले. त्या भायर सिक्युरिटीमेजर्स वाडोवपाचीय गरज आसा... आयज वक्ल... फाल्यां...

' कितें उलयता तुमी ? '

' सॉरी मॅडम... आमी चार ऑप्टिशन्स हाडल्यात. मात्सो नंबर दियात.

' कसलो नंबर ? '

' सी अेमच्या वक्लाचो.

' तो म्हाका खबर आसां ? तुमी लोक कितें करता ? कित्या खातीर आसात तुमी सगलेजाण ? '

' सॉरी, आमी वयर येतात. येंव न्ही ? '

' कित्याक ? वक्ल हांगा तयार करपाचें आसा काय कितें ?'

' ना. सी. अेमाक पळोवपाक. तांचे दोळे पळोवन सिलीमखान येक द्रो नंबर काडीत ! '

' काडूंदी काडूंदी येयात वयर.... पुण तो सिलीमखान तो कोण ? सारखे तपासून घेयात ताका खान तो ! '

' च्ये च्ये मॅडम हो तसलो खान न्हय ! हो सादो वक्लाचो खान... वक्लांच करता तो... केन्ना केन्नाय

' येयात तर '

सगलेजाण वयर बंगल्यांत वतात. माजराच्या पावलांनी सी. अेमाच्या कुडींत वतात. तांचे दोळे पळयतात. पुण दोळे धांपिल्ले आसल्या कारणान नंबर मेळना. आता सी. अेमाक उठयल्या बगर उपाय ना अशें थरता. पुण उठवप कशें ? मॅडमाक सांगूया ? पुण मॅडम तापतली. कितें करचें ? इतक्यांत फटो येता. सी. एमाचो

( पान ३० पळयात )

ललित लेख

# जांबावलेचो गुलाल

— पुरुषोत

खरें म्हळ्यार जांबावलेच्या गुलालाचें वर्णन करपाक 'उतरां' हें माध्यम न्हंय. रंगाच्या ह्या उत्सवाचें दर्शन घडयतलो जाल्यार रंगीत टॅलिव्हीजन वा सिनेमा तरी जाय वा येकादल्या समर्थ चित्रकाराचो कुचो तरी. जांबावलेच्या गुलालाच्या रंगांचें, उत्साहाचें वर्णन उतरांनीं कशें करचें हो म्हजेमुखार मोठो प्रस्न पडला. पयलीं दिसलें सहज जमतलें. पुण आतां सुरवात करतकूच उतरांच सापडनात.

अेका अिंग्लीश सिनेमांतलो अेक प्रसंग याद जाता. नवो पोप वेंचून काडटात. हो पोप आपलीं वस्त्रां आंगार चडयतकूच पालासींत आशिल्ल्या अेका जाण्टया सेवकाक विचारता, ' Now tell me. How is Rome ?– म्हाका सांग, रोम कशें दिसता ?' त्या सेवकान ल्हानपणापासून रोम शार पळेल्लें आसता. तो उत्साहान रोमाचें वर्णन करपाक सुरवात करता आनी म्हण्टा, ' Rome is like... ' तो आडखळटा. वर्णन करपाची पाळी येतकूच सबंद रोमाची सुंदरकाय ताच्या दोळ्यांमुखार उबी रावता. आनी ती सुंदरकाय उतरांनी कशी सांगची हेंच ताका समजना. तरी तो उत्साहान सांगूंक वता, ' Rome is like... Rome is like ... ' आनी अेकदम सांगून उडयता, ' Rome is like Rome– रोम हें रोमाभाशेनूच आसा. ' दीस्त त्या सेवकाभाशेनूच म्हजीय गत जाल्या. ल्हानपणासावन हांव जांबावलेचो गुलाल पळेत आयलां. जांबावलेचो गुलाल कसो जाता तें म्हाका सांगपाचें आसा. उतरां सापडनात आनी हांवूय आतां तुमकां सांगतां, ' जांबावलेचो गुलाल हो जांबावलेच्या गुलालाभाशेनूच जाता. '

जांबावलेचो गुलाल हो अेक अनुभव आसा. तो प्रत्यक्ष थंय वचून, त्या रंगांनीं न्हावनूच घेवपाचो आसता. त्या रंगांचें, त्या उत्साहाचें, त्या आनंदाचें, ते उबेंचें वर्णन उतरांनीं उबे करप कठीणूच तरी पुण प्रयत्न करतां.

पयली गजाल म्हणजे गुलालाचो हो उत्सव ' मंगळाराकूच ' यता. तारको फाटीं फुडें जातात पुण वार ? मंगळार. वार चुकना. सात दिसांचो शिगम्याचो हो उत्सव गुलालाच्या मंगळाराआदीं पांच दीस हळदुण्यान सुरू जाता आनी मंगळाराच्या दुसऱ्या दिसा धुळपेटीन सोंपता. हे सातय दीस, 'जांबावल' हो सांगें तालुक्यांतलो, कुशावती न्हंयेंच्ये वेंगेंत आशिल्लो सुपुल्लो गांव लोकांनी फुलून वता, उत्साहान भरून वता. आनी गुलाला दिसा हो उत्साह सामको तेंगशेक पावता.

जांबावलेचो शिगमो हो मडगांवकारांचो उत्साव अशें मानतात. पयल्या दिसा मडगांवच्यान देवाचो नाल्ल वाजयत गाजयत जांबावले व्हरतात आनी शिगमो सुरु जाता. शिगम्याच्या जांबावलेंत नाटकां आनी हेर सांस्कृतिक कार्य जातात. सुवारेच्या वाजपान देवळाचो वाठार दुमदु सात दिसांच्या ह्या शिगम्या उत्सवांतलो गुलाला खरो उत्सवाचो वार.

गुलाल सुरू जावपाची वेळ दनपारां साडेतीन जाल्ली आसता. गुलालाच्या दिसा सकाळच्यान येवंक लागतात. बारा साडेबारामेरेन देवळ लोकांनी भरून गेल्लो आसता. दामोदराच्या देवळ दावे वटेन समाराधना सुरू आसता. देड दोन हजा पंगतीक जेवंक बशिल्ले आसतात आनी गुलाल सुरू आनी तीन चार पंगती जावपाच्यो आसतात. प्र वटेन भाविक लोकांची लांबच लांब रांग हातांत उ फुलां घेवन दामबाबाच्या दर्शनाक तिष्ठत उबी रावि

वतां वतां सांगपाचें म्हळ्यार, जांबावलेचो ' श्री रामनाथ दामोदर प्रसन्न ' ह्या संस्थानी था फकत देवस्थानाच्या पाटयेर, दुकानांच्या पाटयांचे पत्रकां इत्यादींचेर विराजिलो आसलो तरी सगळे म जांबावल्यांत येवपी भाविक मात ताका ' दामबाब नांवान वळखतात. ' दामबाबाची भेट ', ' दामबाबाच ताचो उल्लेख जाता. घरांत ' केशवबाब ', ' पुंडीबाब ' असो कोण तरी जाण्टो भारदस्त मनीस विशीं भयमिश्रित आदर आसचो आनी तेचवेळार उळो मारून वेंग मारपाची संवकळय आसची तसो दामोदराविशीं भाविकांत आसता. आनी ह्या दामब तशेंच आसा. उग्र अशो त्यो मिशो आनी रागीट मोठ्ठे दोळे. पुण तेच वेळार सामको मायेस्तप दोळ्यांनी मारपी झांक-

अशा ह्या दामबाबाचें दर्शन घेवपाक हजारांनी रांगेंत शिस्तीन उबे आसतात. खंयच गडबड नासत नासता.

तशें पळेल्यार हो सगळोच उत्सव येके शिस्ती स्थानच्या देड दोन किलो मिटर वाठारांत दुकानांची शिस्तीन केली आसता. उत्सवाखातीर लोकांक घेव नांची वेवस्ता वेवस्तीत केली आसता हजारांनीं चोम्यांत वावुरताना ओगीच घुस्मटमार जायना.

दामबाबाच्या देवळाच्याप्राकाराभायर, उजव्य आनी मुळविराचें अशीं दोन देवळां आसात आनी

उत्सव जाता. दामबाबाची पालखी, पयले रातीं
रातची, नाटक बी सोंपतकूच, वाजत गाजत येवन
ळामुखार स्थानापन्न जाता आनी मंगळारा सांज
गुलाल उलगसर ती थंय आसता.

जांबावलेचो गुलाल. दनपारचीं दोन सुमार जाल्लीं
त तें वाहून धरून लोकांचे लोटांचे लोट जांबावलेत
दोन, सवायदोन जायसर हातांत गुलालाचे पुडे
ांचे चोम्यांचे चोमे पालखेभोंवतणी गर्दी करतात.
त गुलाल आसता. पूण अजून येकटचानूय रंगाचें
दुसऱ्याक लायिल्ले नासता.

कायदो. ही हांगाची शीस्त. दामबाबाक पयलीं
गर लोकांक गुलाल उधळूंक मेळना आनी हें
नी आपणे आपणाक बांदून घेतिल्लें आसता.
सफसतात, हात गुलाल उधळपाक शिवशिवतात
ो येता. गुलाल साडेतीनाक सुरू जावपाचो आसता.
दपी फुरफुरपी मस्त्या घोडयाक सुतलेन बांदून
पल्यांतल्या फसफसपी उत्साहाक लोकांनी शिस्तीच्या
न बांदून दवरिल्ले आसता. अडेच जायत येतात.
ता. स्फोट जावंक सोदपी येके सूक्ष्म शक्तिची
जाणवता. अडेच जातात, आनी कितें जाता
? कोणतरी मुठभर गुलाल दामबाबाचे पालखेंत
णाभितर, दारवेचे कोठयेचेर कोणतरी उजाकीट
काफाटोफाट तरेतरेचो फोग फुटूंक लागचो तसो
डे, निळे, जांभळे, पांचवे, हळदुळे, तरेतरेचे रंग-लोक
चेर आनी मागीर येकामेकांचेर मोखूंक लागतात,
क लागतात. प्रयासान थारावन धरिल्या उत्साहाचें
हाचो नेट पेलूंक न जाल्ल्यान अचकीत फुट्टा.

री लांबूच लांब माळ पेटत वचची, तशी रामनाथाच्या
जाल्ली गुलालाची उधळण, देड दोन किलो मिटर
ल्या हजारांनी लोकांभितर पसरत वता. खिणाआदीं
तमको, हो पसरकार, तो दुकानदार, हो मंत्री, तो
मण, तो सुदीर, हो नायक. सो गावडो अशें अेका-
लोक, वेव्हाराखातीर तरेतरेचीं रूपडीं पांगरिल्ले
चा लोकांनी आपआपल्या रुपडयांचेर तरतरेचे रंग
तात. माखिल्ल्या रंगांक लागून ते अेकामेकाच्या
ख विसरिल्ल्ले आसतात आनी सगळयांचीं काळजां
सतात, मनां अेक जाल्लीं आसतात.

चेफुडल्या दोन अडेच वरांच्या गुलालाचें वर्णन करप
तांबडो, निळो अशीं तरेतरेच्या रंगांचींच नावां
ह्या वेळांत तरनाटे बँडाच्या, रोमटाच्या तालार
वतात, खुशी मनयतात. धुमशेणां घालून जातकूच
वळाच्या प्राकारांत बसकण मारतात आनी भितल्ल्या
करून दिवपाखातीर तरेतरेचीं पदां म्हणूंक लागतात.

अगरसाळेच्या व्हारांदाचेर आनी आशी कुशीक उबीं रावन चलयो, बायलो हो सगळो दबाजो उमेदीन पळेतात. प्रत्यक्ष कांय तीं गुलालांत भाग घेनात. पूण सगळचा बायलांची मनां रंगान रंगिल्लीं आसतात आनीं नाय म्हळचार वातावरणांत हुबिल्लो गुलाल तांच्या आंगा खांद्यार, केसांनी, भांगानी बशिल्लो असता. ह्या रंगाच्या उत्सवांत आपणेय वांटो घेवंचो हाची उमेद चलयांच्या, बायलांच्या तोंडांर, दोळयांनी स्पश्ट दिसता. पूण जे पद्धतीन हो उत्सव जाता त्या प्रमाण तांकां हें शक्य नासता. आनी हांगा, 'कोंकणीचो टागोर येवपाचो आसा. ताचेखातीर बारा हात रूंदायेचो रस्तो करात'– अशें बाकीबाबान येकदां म्हणिलें, तो टागोर आतां येवंचो अशें उमळशीकेन दिसूंक लागता. येवपी कोंकणीच्या ह्या टागोरान रंगाच्या ह्या अक्षराचीं तरेतरेचीं नृत्य-गीतां बरोवंचीं, आनी ही गीतां ओंठांर खेळयत गोंयच्या उमेदी चले चलयांनीं रंग उधळीत मेळून मिसळून ही रंगपंचम साजरी करची. फक्त दादल्यांच्या 'शबै'त अंदल्लो हो उत्सव बायलांखातीरूय मेकळो जावंचो.

बंगालांत दादले बायलो असो रंग खेळटात, उत्तर प्रदेशांत खेळटात, पंजाबांत दादले बायलो भांगडा नाचतात, गुजराथांत दादले बायलो रास, गरबा खेळटात. मागीर आमच्या गोयांतुच ह्या उत्सवांत बायलांक कित्याक वांटो घेवंक मेळचो न्हंय ? आनंदापासून पारंपारिक मर्यादांच्या कल्पनांनी तांकां पयस कित्याक दवरचीं ?

जांबावलेचो गुलाल पळेताना ही खंत अतिशय जाणवता. आनी दिसता, बायलांक जर पद्धतशीरपणान असल्या उत्सवांत वांटो घेवंक मेळ्ळें तर होळयेच्या वा कार्नाव्हालाच्या निमतान, रंगांचो आलाशिरो घेवन बायलांच्या आंगार हात घालपाचे, बायलांचे घसटीक वचपाचे जे विकृत प्रसंग गोयांत जावंक लागल्यात ते आप-शींच ना जातले. आनंदाचे अेक नैसर्गिक वातावरण निर्माण जातलें.

वतां वतां आनीक अेक विशेश अशें सांगपाचें म्हणजे, जांबाव-लेच्या ह्या गुलालांत रंगाच्या, उत्सवात बेभान जाल्या दादल्यांचे गचेमुड्डींतल्यान, बायलां निश्कलंक मनान भोंवतात. पूण अेका तरी सभाग्यान अेके तरी बायलेक रंगाचें अेक बिबूट लायलें, असो प्रसंग अेक्कूय जायना. ही खरेलीच तोखणाय करीसारकी आनी देख घेवपासारकी गजाल.

पूण फकत अेकटीच ह्या गुलालाच्या ह्या रंगान सामकी भरून वता. कोण जाणा ? 'कुशावती.' हांगाची 'कुशावती' न्हंय. साडेपाचांक सुमार गुलाल उलगता आनी दामोदराची पालखी मुख्य देवळांत स्नानाक वता. आनी नखशिखान्त रंगान भरिल्ले लोक पाण्टयाचो म्हणजे कुशावती न्हंयची वाट धरतात. ह्या वेगवेगळया पाण्टयांक वेगवेगळीं सुंदर सुंदर नांवां आसात. जशे परीं, 'देवा पाण्टो,' 'वाजप्यां पाण्टो,' 'चाफ्या पाण्टो,' 'बायलां पाण्टो,' 'चिकण फातरीर.'

आपणाक निर्मळ उदकांत न्हावंक मेळचें म्हणून जो तो बेगोबेग ह्या वेगवेगळया पाण्टयांची वाट धरता. पूण निर्मळ उदकांत न्हाव-पाची संद घडये पयलीं उडी घेवपी अवघ्याच लोकांक मेळटा आसत.

कारण शेकडयांनीं लोकांच्या न्हाणान 'कुशावती' केन्नाच रंगिल्ली आसता.

पाण्टयार न्हावन लोक परतात तेन्ना रामनाथाच्या देवळा-मुखार घाल्ल्या माटवांत पावलभर सांचिल्लो गुलाल कामेऱ्यां सान्नीन झाडून येके राशीक करतात. लोकांक आतां घरा परतुपाचे वेध लागिल्ले आसतात. बशी, टेंपो, ट्रक, धाकटयो, मोटारी, स्कुटरी, रिक्षा भरभरून लोक परततात.

गुलाल जाता जांबावले. पुण सांजवेळमेरेन ताचो रंग गोंयच्या कोनशाकोनशाक पावता. गोंयच्या प्रत्येक भागांतलो लोक गुलालाक आयिल्लो आसता. सांजवेळा प्रत्येक बशींत रंगान रंगिल्लो लोक बाकीच्यांक मेळटात. मागीर ते विचारतात, 'खंय रे गुलालाक गेल्लो ?' 'जांबावले गुलालाक ?' अशें विचारचेच पडना. कारण गुलाल म्हणजे जांबावलेचोच. रंगलो मनीस जाप दिता, 'हय'. आनी हें 'हय' म्हण्टना मूर्तिमंत समाधान, मूर्तिमंत तृप्ती ताच्या दोळयांत विचारतल्याक दिसता. आनी मागीर ती छटा पळेतना, 'आपणें ही संद चुकयली' अशी चुटपुट तल्याक लागता आनी न रंगल्या, आपल्या नितळ सा कपडयांची घडये ताका मनांत लजूय दिसता आसत.

गुलालाचो आंगावयलो रंग दोन तीन दीस मनांतलो रंग मात फुडल्या वर्सांचो गुलाल ये मेरेन टवटवीत उरता. म्हजें ल्हानपण जांबावले गेलें. गुला सगळे लोक परततकूच आमी भुरगीं, कांय वेळापयलीं गज आनी आतां भकास रिकाम्या जाल्ल्या त्या माटवांत रावतालीं. मागीर जमनीर पसरिल्ल्या मोव गुलालांत पटायत आमचीं पावलां रंगान माखून उडयतालीं.

ल्हानपणांत पावलांत रूजिल्लो हो जांबावलेचो काळजाच्या करणांत इतलो काळ फुलून उरिल्लो. कितल्य हो रंग उतरांनी मांडपाची संद मेळ्ळी. जिवाक बरें दिसलें.

---

## वक्ल फुटलें

( पान २७ वेल्लयान )

खासा नोकर. सगलेजण ताचें स्वागत करतात.

'फटोबाब, कशे आसात तुमी ? मात्शे हें सांगात, सायबाक उठोवपाचो जाल्यार कसो उठोवपाचो ? तुमी उठयशात?'

'सायबाक ? नारे बाबा ? सायबाक उठवप सोपें न्हय. हांव उठयना पुण अेक सादी आयडिया आसा. 'पडलें पडलें' अशें म्हटल्यार ते रोखडेंच उठ्टात. पुण फुडयांत जो कोण आसा ताची मात धडगत ना.'

'तूं उठयता तांका.'

'हांव उठयतां पुण हांव मागीर हांगा रावचो ना हां ?'

मागीर तुमी उलयात.

'बरें आसा ? म्हुण तुजें कितें म्हणपाचें तें.'

फटी म्हणूच सी. अेमाल्या कानाकडेन वता आनी म्हण्टा 'पडले... पडलें....' आनी तो गडबडीन खाटीपोंदा लिपता. सी. अेम. खडांयच करून उठता. पुण तांका वक्लाबगर सारखें दिसना.

'कोण ? कोण म्हण्टा पडलें ? कशें पडले ? आमचे सरकार खंबीर पायार उबें आसा. तें अशें पडलें वचचें ना. हो आमचो ठाम इस्वास आसा.... पुण तुमी कोण ?'

सी. अेम. अठून बसता.

'कोण रायकार ? कितें जालें ?'

'कांय ना. भिवपासारखें कांयच ना. पुण तुमका वक्ल कर-पाचें आसा. ते सगलें सिलीमखान करतलो. तुमी कांयच काळजी करू नाकात.'

'म्हाका वक्ल ? कित्याक ? आसा तें ? तुमचें वक्ल फुटलें.

'फुटलें ? केन्ना ? '

'ऑफिसांत तुमच्या... कंवच्यो आसात. म्हाका तुमचें वक्ल फुटले.

'कंवच्यो ? ऑफिसांन कंवच्यो ? आं ? हां... हां काल सानचें तें येक शिस्टमंडळ येयलेलें तेन्ना गलास आजून त्यो कंवच्यो काडूंक नात ?'

'त्यो हांव आतांच काडून घेतां सर, पुण सर

'घे त्यो काडून तर ' अशें म्हणून सी. एम् परतो ल

'पुण सर तुमचें वक्ल खंय तर ?

'हें आसा तें खाटीपोंदा ' अशें म्हणून सी. अेम सक घालून वक्ल काड्टा. वक्ल फुटिल्लें आसा.

'आरे ? वक्ल केन्ना फुटलें ? न्हीदतना बरें आसलें फटी लजत लजत फुडें येता.

'ना खाशानो, माजो पाय वांयच लागलो तुमका हांव खाटीपोंदा लिपलो तेन्ना !

'ब ऽ रे ऽऽ केलय माज्या झिला ! त्या निमतान शिवाय ह्या सगल्यांची तोंणा पळोवपाक मेळ्ळीं. आनी म्ह नवी नदर लेगीत आयली.

'कसली ? ' सगल्यांनी विचाल्लें.

'तुमी जी येदी व्हडली धांवपळ, गडबड केली. ताचे प आशिल्ली तुमची तळमळ म्हाका दिसली आनी तुमच्या सग म्हाका बेसबरो अदमास आयलो. चलात आता ! आनीक लडोंव नाकात.

